# केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां



संकलन :

प्रॉ. आर.के. राव

कोंकणी लेंग्वेज इन्स्टिट्यूट
पालारिवट्टम
कोची - 682 025

# केरळांतलीं
# कोंकणी लोकगीतां

संकलन :

प्रॉ. आर.के. राव., एम.ए



कोंकणी लेंग्वेज इन्स्टिट्यूट
पालारिवट्टम

Konkani

**KERALANTHLIN KONKANI LOKAGEETHAN**

(Folk songs)

**Compiled by**

**Prof. R.K. Rao**



First Edition : 1995
Second Edition : Dec. 2015
Published by
Konkani Language Institute,
South Janatha Road, Palarivattom,
Kochi - 682 025

Printed at
Ayodhya Printers
Elamakkara
Ernakulam - 682 026
Copies 500
Price : ₹ 75

कोंकणी

**केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां**

(लोकगीता)

**संपादक**

**प्रॉ. आर. के. राव**



पयली आवृत्ती : 1995
दुसरी आवृत्ती : डिसेंबर 2015
प्रकाशक
कोंकणी लेंग्वेज इन्स्टिट्यूट, पालारिवट्टम
कोची - 682 017
www.profrkrao.in
Cell : 9037506569
मुद्रण
अयोध्या प्रिंटर्स
एळमक्करा
एरणाकुळम - 682 026
प्रती 500
मोल : ₹ 75

# प्रकाशकांचीं उतरां

प्रॉ. आर. के. राव हांचो लोकगीतांचो संग्रह उजवाडाक येवन २० वर्सां जलीं. अतां हें पुस्तक मळूंक ना आनी राव मामाली जल्मशताब्दी मनयिल्ल्या संदर्भार खूब लोक हें जाय म्हण्टाले. देकून आमी थारायलें कि ही दूसरी आवृत्ती काडची.

राव मामान हें पुस्तक उजवाडायिल्ले उपरांत केरळांतलें कोंकणी लोकसाहित्या विशीं जायतीं पुस्तकां आयिल्यांत. हीं सगळीं पळोवन एकामेकांतलें लोकसाहित्य पुंजावन एक समग्र संग्रह तयार केल्यार बरें आसतल. हो वावर कोणेय तरी हातांत घेवंकच जाय.

1996 - त डॉ जयंती नायक हांणी 'जाग' पत्रिकेंत ह्या पुस्तका पासून एक नियाळ उजवाडायिल्लो आमी हांगा दिला. दुसरी आवृत्ति वाचतना तें पळोवचें बरें आसतलें.

मुखावेल्या पीळी खातीर सांबाळून दवरिल्ली ही निधि आमी कोंकणी मातेक पुनरर्पण करताय.

कोची

**उजवाडावपी**

11-12-2015

# प्रकाशकांचीं उतरां

लोकगीत आनी दंत कथा प्रत्येक भासेची अमूल्य निधि आसात. कोंकणी भासेंतल्या, विशेषकर केरळचे कोंकणी भासेंतल्या ह्या प्राचीन साहित्याचेर आमची खास श्रद्धा पडली. इन्स्टिट्यूट त्या वाटेन प्रयत्न करता. आतां मेरेन इन्स्टिट्यूटान गोड्डे रामायण, वेंकटेश कल्याण - हीं प्राचीन काव्यं प्रकाशन केल्यांत. आतां 'केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां' प्रकाशन करचांत आमी व्हड खोसी भोगतात.

ह्या संकलनाक अवतारिका तय्यार करन दिल्लेल्यां केरळा कोंकणी अकादमी अध्यक्ष श्री. पी. जी. कामत - हांचे आमी भारी उपकारी आसात.

हें पुस्तक छापून प्रकाशन करचाक एर्नाकुलमचे हिन्दी प्रचार प्रसाचे धनियानी आमी तांचे कर्मचार्यानी आमचें व्हड मदत केलें - आमी तांकांय देव करों म्हतात.

इन्स्टिट्यूटाचे हें णवावें प्रकाशन उजवाडा आयलां पळोवन सर्वय कोंकणी समाज भारी आनन्द पावंतलें अशें आमी आशा पावंतात.

कोची **उजवाडावपी**

1-10-1995

# अवतारिका

केरळांतल्या कोंकणी लोकगीतांचो हो झेलो सहृदय वाचप्या मुकार सादर करतना माका अपार खोस भोगता. जायतीं वर्सां फुडे धरनूच कोंकणी-प्रेमी ह्या पुस्तकाची वाट पळवन आसात.

हीं गीतां प्रॉ. रावांनी सान पिरायेरि आपले आजेले जिबेर सुन आयकिल्ले. राव माम संगीताचे व्हड मोगी. देवान तांकां गोड-गोड ताळो दिला आनी सुक्ष्म ताळ-बोधान अनुग्रहीत केला. हे सगळे गींत तांणी आयकिल्ले, गायलेले आनी वेंचुन दवरलेले. पुण हो झेलो वाचप्यां हातां पांवच्याक भौ तोडोव जालो. कित्या ? हे इतले काळ राव माम कोंकणी मातेचे चड महत्वाचे सेवेंत गुल्ल आशिल्ले देखुन. न्हन्तना ह्या तोडोवाक वेगळें कांय कसलें कारण ना.

जेन्ना महात्मा गांधीलो उलो आयकून नवजवान रावजीनी हिन्दी प्रचारक जावनु सार्वजनिक जीवनांत प्रवेश केल्लोलो, तेन्नापासुन जे जे मलयाळी तांकां कोंकणो म्हणु ओळखताले, ते तांकां प्रश्न करताले - तुमगेलें भासेक व्याकरण आसा की? स्वन्त लिपी आसा की? चौ वशींचे लोकानी करचे हे प्रश्न रावजीले मनाक तोपताले आनी आवयभासे खातिर एक सुघटित व्याकरण तैयार करूंक प्रेरण दिताले.

त्या कालाक कोंकणीचे मळार एक नवी जागृती आयिल्ली. अंचीकम्मळ नरशीं पै भौन भौन हरिकथा सांगताले; लोक रसपतीन आयकताले. देवळांत, घरांत आर. सी. शर्माले भजनां गींत गाजताले. अंबलपुषा कमलम्माळ पात्रचरित आनी रघुरामायण रचताली; पोरकाड आर. रंगनाथ प्रभु हात-बरपाचें म्हयनाळें भायर काडताले. रसिक तरणाटे कोंकणी नाटक बरवन खेळताले, खेळयताले. अशी दक्षिण केरळांत कोंकणीची एक चळवळ सुरू जालेली.

ह्याच कालाक रंगनाथ प्रभूनी कोंकणीचें व्याकरण आनी शब्दकोश तैयार करूक प्रयत्न केल्लेलो. तांगेलो वावुर कितलो सफल जालो म्हणु कळना.

कोंकणीचें सौभाग्य म्हणूंया, कोचीचे हिन्दी प्रचारक राव मामाक तेन्नाचे नावांजते हिन्दी सेवी प्रॉ. चन्द्रहासन हांचे लागी संपर्क जालो. प्रॉ. चन्द्रहासानीच राव मामाक कोंकणी स्वयंशिक्षक बरौंच्याक प्रेरण दिल्लेली. एक नमुनो जावनु दक्षिण भारत हिन्दी प्रचार सभेन उजवाडायल्लें स्वयंशिक्षक तांचे मुकार आशीलें. राव मामान हिन्दी आनी कोंकणीची तुलना केली. ताजान करतना कोंकणी भासेचे व्याकरणाचें एक रूप तांचे मनांत उदेलें. तांगेली घरकारनी श्रीमती यमुना बाईनी तांकां पालव दिलो. तींवय हिन्दी प्रचारिका आशिल्ली. तिगेले आस्वादनान आनी विमर्शनान राव मामाक भरवंसो मेळ्ळो आनी ल्हवू ल्हवू स्वयंशिक्षक तैयार जालें.

तरीय हें कोंकणी-हिन्दी स्वयंशिक्षक उजवाडां हाडुक आनीकय दीस लागले. 1975 वर्सा रावजीनी कोंकणी भाषा इनस्टिट्यूट स्थापन केल्लें; उपरान्ते त्या संस्थेचे पैले प्रकाशना रूपान स्वयंशिक्षक भायर हाडलें. मागीर कोंकणी-इंग्लीश स्वयंशिक्षक आनी कोंकणी-मलयाळम स्वयंशिक्षक उजवाडायलीं.

हें स्वयंशिक्षक बरैतनाच रावजीनी व्याकरण तैयार केल्लें. तें व्याकरण कोंकणी शिकप्यांक प्रयोजना पडचें तसलें. कोंकणी पदरचनेचे आनी वाक्य रचनेचे बुनियादी नेम हे व्याकरणांतु स्पष्ट करनु दाखयल्यात. 1977 वर्सा हें पुस्तक उजवाडां आयलें.

व्याकरणाक अनुबन्ध जावनु तांणी तैयार केल्लेली उतरावळि 1993 वर्सा प्रकाशन केल्ली.

हें न्हन्तना 'रण्डिडड़षी' नांवांचे मलयाळम कादंबरीचो अनुवाद केल्लो; अनुवाद उत्तम जालेल्यान तांकां केन्द्र साहित्य अकादमीचो पुरस्कार लाबलो.

'वेंकटेश कल्याण' आनी गोड्डे रामायण हीं पुर्विल्लीं काव्यां उजवाडावंचे खातीरीय तांगेलीं जायतीं वर्सां लागलीं.

अशी लोकगीतांचो हो झेलो पडून गेल्लो. कशेंय जावूं, आतां हाकाय मोचन मेळ्यां.

ह्या झेल्यांत पाळ्ळीं, शिशुगीतां, खेळा गीतां, बालवाडी गीतां, पौराणिक कथापात्रांचे संभवाचें आधारार आसचीं गीतां, भक्तिगीतां, देवमाहात्म्याचीं गीतां - अशी तरातराचे गींत आसात. नीति गीतां लागी लौकिक विषयांचे गींतय आसात. थोडीं गींत फुडेच प्रचार सभेन उजवाडायल्ले लोकगीतां-झेल्यांत आयिल्ले. पुण सगळे गींताचेर प्रॉ. राव मामाले संशोधनकलेचो प्रभाव देखूं येता. देखून सहृदय वाचप्याकं हो झेलो भौ अपरूप जावनु दिसतलो म्हळेल्यांत कांयच दुबाव ना. जशी वेंकटेश कल्याणार आनी गोड्डे रामायणार तांगेली सुक्ष्म दृष्टि पावलेली, तशीच ह्या गींताचेर पावलेली आसा.

केरळांत लोकगीतांचेर जनांलें तात्पर्य जागयलेलें प्रॉ. जूजे पेरैरा नांवांचे प्रशस्त विद्वांसान. 1967 वर्सा ते केरळाचे भोवंडेक आयिल्ले. तांणी कोची आनी भोवंतणी वचून बायलांक दादल्याकं मेळनु थोडे-भौ गींत टेप करनु घेतिले. हे गींत प्रॉ. पेरैरा मागीर आपले बरपावळींत मेळयताले आनी भाषणांत म्हणून आयकयताले. तशे जायते गींत सहृदयाले मनाक आपडून गेल्ले.

1966 वर्सा कोची कोंकणी प्रचार सभा स्थापन जाली. सभेचे कार्यदर्शी श्री. पुरुषोत्तम मल्या हांणी व्होड प्रयत्न करनु जायते गींत रिकार्ड केल्ले आनी 46 गीतांचो एक झेलो 1976 वर्सा प्रकाशन केलो. मागीर 1993 वर्सा परूर पेरूपडन्ना कोंकणी साहित्य समाजाचे वतीन श्री. के. के. सुब्रह्मण्यन हांणी 'श्रवोण गोड्यां होराणे गीतक' मलयाळम लिपींत उजवाडायलें. तांतु मद्दें राव मामान 1988 वर्सा 'वेंकटेश कल्याण' आनी 1989 वर्सा 'गोड्डे रामायण' उजवाडायलें. आतां हें सकंलन तुमचे हातां पावल्यां.

लोक साहित्य पुंजावप म्हळेलें कांय सरळ-सहज कायरीं न्हय. हांगा-थांगा, गांवा-गांवां, खोपियां-खोपियां वच; दादल्यांनी-बायलांनी म्हणचे गींत आनी उलौंचीं उतरां कान दीवन आयक आनी रिकार्ड करि. मागीर तशी रिकार्ड केल्लेलीं सामकी संशोधन करनु प्रकाशनाक तैयार करि; दाम वेच करनु छापय आनी रसिकांचे मुकार पावंय. असलें कार्य करूक वावुर केलेल्यांकच ताचे कष्ट कळतले. कोंकणी लोकगीतां सोदून गेलेल्याकं हें कळतायच. पुण ह्या कष्टांचे अंतिम फल कितलें अमोल आनी अमृतमय आसतलें म्हळलेंय कळतल्यांक कळता.

जनांचे जिबेर खेळचे गींत, म्हणियो, काणियो इत्यादीक सर्वय मेळनु लोकवेद म्हणु ओळखतात. वास्तव सांगल्यार जनपद संस्कृतीचे समग्र रूप लोकवेदांतु मेळता.

भारतांतु लोकवेदाचें महत्व आतां आतां आमी समजूंक लागल्यात. फूडे हाका उचित महत्व लेकीना आशिल्ले. साहित्य, संगीत, कला इत्यादिका संबन्धीं जिबेक महत्व दीवुंनातिल्लें बरवन दवरलेल्याक महत्व दिताले. तरि आतां तोण्डी साहित्याकय महत्व दिवुंच्याक आरंबिल्यां. हीं आतां फुलची नवी नदर.

खोलायेन पळयल्यार मानक लिखित साहित्याचें मूळ लोकवेदांतु मेळतलें. हाका एक उदाहरण सांगन. वाल्मीकि रामायण आमगेले भारतीय साहित्याचें आदिकाव्य म्हणु प्रसिद्ध आसा. वाल्मीकीन रचिल्या रामकाव्याचो आधार कवीले कालाक जनां मद्दें प्रचरित आशिल्ली काणी, हाचो पुरावो काव्यांतूच मेळता. वाल्मीकि रामायणचें उपक्रमांतु वाल्मीकि-नारद संवाद म्हणु एक सर्ग आसा. तांतु कवि नारदाक विचारता कि ह्या लोकांत आतां आदर्श मनीस म्हणु कोण आसा? आनी ह्या प्रश्नाची जापे रूपान नारद लोकांत चलची रामकथा वाल्मीकीक सांगुन आयकयता. संसारांतले समस्त क्लासिकल साहित्याचो आधार जावनु लोक-कथा आसात. अन्वेषण केल्यार असलीं जायतीं उदाहरणां मेळतलीं.

आनी एक गजाल सांगन. आमगेले लिखित साहित्यांत ग्रहां, नक्षत्रां, रूक, झाडां, वालीयो, जनावरां, सवणीं, फळां, पाल्ले, फुलां इत्यादी विशीं

अनेक-अनेक सरस परामर्श मेळतात. हे सगळेच कवीले कल्पने थाकून उपजल्ले? न्हय. असले परामर्शाचे मूळाक जनांचे जिबेर घोळचीं उतरां, काणियो, म्हणियो इत्यादीक आशिल्ले आसूका. आसले विचार कवीनी जना पासून घेतिल्ले म्हणु ह्या विषया विशीं चिंतन करचे म्हण्टात. हें आमगेले लिखित साहित्याचें लोकपक्ष. हाचें अध्ययन मोलादीक आसतलें. आमगेले संस्कृतीचें एक पूर्ण दर्शन हांतुल्यान मेळुंयेत. आसूं.

हें पुस्तक वाचतना आपण्या मनांत आयिल्ले हे विचार हांवे तुमचे मुकार सादर केल्यात. हे गींत वाचूक, म्हणून आयकूक आनी आस्वादन करूक रसिक वाचप्यांक मनांथाकून आमंत्रण दितां. कितले संपन्न सांस्कृतिक परंपरेंतु सौभाग्यान आमकां जन्मु मेळ्ळा म्हळेलें ह्या गीतांतुल्यान खूब स्पष्ट जाता.

मेगेलीं हीं उतरां खतम करतना, आनी एक गजाल सांगतां, ह्या गीतांचे भासे विशीं. हांतु मराठी भासेची आतिताय आसा म्हणु कोणाकय दिसूंयेत. ताका एकीच जाप. कोंकणी आनी मराठी शेजारी भासो. दोनीचोय प्रभाव आमगेले संस्कृतीर आसा. दोनीचेय मद्दें दिवें-घेवें खूब-खूब आसतलें. तांतु अजाप कितें? कांयच ना, मराठीवादींनी कोंकणीचो निफट तिरस्कार करचे कालाक झगडीं जातालीं. आतां कोंकणीक अंगीकार मेळ्ळा; ती आपले स्थानार स्थिर जाल्या. आतां आमी आपले परंपरेचें निज रूप पळौंच्याक शकतात.

परमळीक फुलांचो हो तुरो कोंकणी मातेचे पांयांर समर्पण करनु प्रॉ. राव मामाले ह्या अमोल परिश्रमाक वांखाणसीतां.

जय कोंकणी !

**- पी.जी.कामत**

दयानन्दम,

तृश्शुर-20

18-6-1995

(अध्यक्ष, केरळ कोंकणी अकादमी, कोची-2)

## INTRODUCTION

## (Translation of the original in Konkani)

It is a matter of great pleasure to introduce this collection of Konkani Folk-Songs before the reading Public. In fact the publication of this book has long been awaited with enthusiasm by Konkani Lovers.

Prof. Rao must have enjoyed these songs even in his childhood through the lips of his own grand mother. A lover of music and a songster with a sweet voice and a deep sense of rhythm, he collected these songs several years ago. It is strange that they have been lying with him for such a long period of time. There is no reason for this, excepting that he was busily engaged in other urgent aspects of t he development of Konkani.

Ever since Sri. Rao entered public life as a Rashtra Bhasha Pracharak under the inspiration of Mahatma Gandhi, whoever knew him as a Konkani used to ask him whether this language had a grammar and a script of its own. These inquiries actually pricked his conscience and urged him to try his hand at the pioneering effort of preparing a Grammar for his mother tongue.

By that time people like Narsimha Pai of Ernakulam, R.C. Sharma of Pallipuram, Smt. Kamalammal of Ambalapuzha and R. Ranganatha Prabhu of Porakkad were in the field of Konkani. Of these Ranganath Prabhu tried to prepare a grammar and also compile a dictionary. But how far he succeeded is now known. Unfortunately whatever work he did has now passed into oblivion.

Fortunately Sri. Rao the Hindi Pracharak, came across Prof. CHANDRAHASAN who was a veteran in the field of Hindi.

Encouraged by the learned professor, Sri Rao began to work on a Konkani Swayam Sikshak, on the model of Hindi Swayam Sikhak prepared by the Dakshina Bharath Hindi Prachar Sabha. Comparison of Konkani with Hindi gave him a certain understanding of the basics of Konkani Grammar. Also appreciation and criticism offered by his wife Smt. Yamuna Bai, also a Hindi Pracharika helped him to accomplish the task with confidence. But the publication of this Swayam Sikshak had ti waut tukk 1975, when he himself established the Konkani Language Institute and put it up as its first publication. This book was in the Hindi Medium. Later English and Malayalam versions also were brought out. At the end of these books Prof. Rao has given some folk-tales, proverbs and vocabulary also.

Next to these Swayam Sikshak series came the Konkani Grammar in 1977. this is essentially a Learner's Grammar which given the learner, correct ideas of Konkani Morphology and Syntax in a systematic manner.

Along with the Grammar he also compiled a Vocabulary which was published in 1993.

In between he took up the translation of the famous Malayalam Novel 'Randidangazhi' for which he won the Kendra Sahitya Akademi Award.

'Venkatesh Kalyan' and 'Godde Ramayan' also claimed much of his time. It is because of these urgent engagements that the publication of the Folk-songs was delayed. But, as the saying goes, better late than never.

This collection contains a variety of songs - Cradle songs, Nursery Rhymes, Play-songs, Wedding songs, songs based on episodes from

epics etc. Some purely moral and secular songs are also there. Some have already appeared in print in the Prachar Sabha collection. Whether new or not, every item has had the benefit of being edited by Prof. Rao. Every sahridaya will feel grateful to him for giving the songs as authentic a version as possible which he has done in the case of Venkatesh Kalyan and Godde Ramayan too.

In Kerala interest in Konkani Folk-songs indeed in folk-lore itself was roused by Dr. Jose Periera during his visit in 1967, when he went around Cochin and other places meeting people and gathering information about Konkani life. art, literature etc. in Kerala. During that sojourn he got recorded some songs, which he proudly included in his lectures and writings later. Soon Konkani Bhasha Prahar Sabha, established in 1966, also got interested in folk-songs, proverbs etc. As a result Sri. N. Purushothama Mallya, Secretary of the Sabha, edited and published a volume of Konkani folk songs in which forty six items are found to be included. This was in 1976. In 1993 Konkani Sahitya Samaj of Perumpadanna, Parur came out with 'Srawon, Goddyan Horane Gitak' in the Malayalam script. In between Prof. Rao had published 'Venkatesha Kalyan' in 1985 and 'Godde Ramayan' in 1989. It is only now that he is coming forward with his collection of folk-songs.

Collection of folk-lore is indeed a very hard task, going from place to place from house to house, hut to hut, coaxing people to speak and sing and getting the material thus collected properly recorded. It is much more difficult to sift, edit and publish the corpus thus recorded. In the matter of Konkani how difficult, it is, only those who ventured into the field can know. But however stupendous the task is, the outcome will certainly be enchanting and valuable.

Folk-lore which included folk-songs, proverbs, folk-stories, folk-beliefs etc. truly represents the total culture of the people. It is only recently that this subject is receiving proper attention in India. Formerly only standards established literature in the written form used to be considered worthy of serious study. Now this view has changed giving way to the study of folk-lore also.

Another important point also needs to be recalled. Standard literature itself has folklore at its base. For instance, Valmiki Ramayana which is considered as Adi Kavya of Sanskrit has the story of Rama which was current among the people at the time of the poet. This can be inferred from the introductory part of the Epic itself where Valmiki enquiries of Narada narrates the story of Rama to him. This is true of all classical works of world's Literature.

There are innumerable references to heavenly bodies, animals, birds, trees, plants, flowers, fruits etc. in our ancient as well as modern literatures. These were all borrowed from the folk and later got wide currency and acceptance on KAVI SAMAYAS. A study of this folk aspect of our standard literature will be highly rewarding.

I have been placing before you some ideas that arose in my mind, while reading the book. We are really thankful to Prof. Rao for having presented these traditional songs to us. I invite one and all to read them, hear them sung, think about them critically so as to have a glimpse of the culture into which we are lucky to be born.

Closing these words I would like to make a reference to the language aspect of these songs. Some may feel there is a strong element of Marathi in them. There is nothing to feel astonished about it. After all Konkani and Marathi are so near to each other. They can have give

and take to any extent. The quarrel was there only when some people were out to negate the very existence of Konkani. Now that Konkani has been fully recognized and established, we need to look at our tradition in the proper background.

With exuberant sense of joy I place this bouquet of sweet songs at the lotus-feet of Mother Konkani.

JAI KONKANI !

**P. G. KAMATH**<br>
DAYANANDAM<br>
Trichur - 20<br>
Chairman, Kerala Konkani Academy

Cochin - 2
18-06-1995

# केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां

एक भाशेचें प्रारंभकालाचें साहित्य गद्यरूपानय पद्यरूपानय रचल्लें दिश्टी पडता. देखून भाशेचें स्वरूप गद्य कि पद्य म्हणु साहित्यकारां मद्दें विभिन्न अभिप्राय आसता. साहित्याचो आरंभ गद्य रूपान जाला कि पद्य रूपान हाचें पासून इतःपर्यन्त एक निर्णयाचेर साहित्यकार पावले नात. आपणाले विकार आनी विचार दुसऱ्याक समझूचे भाशेन आविष्कार करचाक प्रारंभार मनिश्यान साहित्याचे गद्य रूप स्वीकार केलें अशी मानयेत. गद्य रूपाचीं ह्या प्रकारांची विवरणां अर्थ संपुष्टीन आनी आशय सौष्ठवान चमत्कारीक आसून सांगतल्याचे अथवा आयकतल्याचे मनाचेर ताचो प्रभाव दृढतकायेन पडून आसतना, थंय म्हण्णीयो साहित्य रूपाचो उदय जालो. आमच्यो भासो सर्वय ह्या चमत्कारान भरपूर आसात. ह्यो गद्य रूपान जावं पद्य रूपान जावं न्हय आसात. पुण दोनीचेय समन्वीत स्वरूप आसात. तांचें उच्चारण करचें वेळार तांकां एक प्रकाराचो ताळक्रम आसा, अशें समझता. हो ताळक्रम दीर्घ लघु करून भासेचो व्यवहार करचाक साधारण भासे रूपां सून एक प्रकाराचें भिन्न रूप भासेक प्राप्त जालें. हेच एक भासेचें साहित्यीक रूप आसा. तशी ह्या संदर्भांत साहित्याचे आदिरूप त्या भासेचो पद्य रूप म्हण स्थिर जाता. साहित्याचें हे पद्य रूप आदिकालाक लान लान खण्ड करून प्रकट जालें. समाजाचे भावनाशक्तीं सून ताका संगीताचें रस, ताळ, लय आनी गुण प्राप्त जाले. ह्या प्रकारीं गद्य मधुर जालें. पद्य कविता जालें.

कोंकणी साहित्याच्यो म्हण्णीयो आनी तांची लोकगीतां साहित्याचे हे विशिष्ट गुण प्रकटायतात. कोंकणी साहित्याचे इतिहासांत समाजाचे आत्मनिष्ठा आनी सत्यशील जीवनाचीं सीधा, सरळ आनी प्रभावपूर्ण चित्रां दिश्टी पडटात. भासेंत कांय अलंकार श्रृंगार ना. भावनेक आनी कल्पनेक ह्या शाखेन्त सुवात ना. चढ करन तांत पवित्र आनी साधारण जनजीवनाचीं पडबिंबां पळेलीं

दिश्टी पडटात. कोंकणी साहित्याचे ह्या आदिम स्वरूपांत कोंकणी लोकांचे जीवनाचो उदय आनी विकास आनी ताचो परिणाम, म्हव्यार मानवजीवनाचे संपूर्ण चित्र झळकता दिश्टी पडता. सरळ ललित आनी शालीन गुण युक्त ह्या कोंकणी लोकगीतां कोंकणी कवितेच्यो पयल्यो आंकुर्यो दिसतात. त्याच प्रमाण कोंकणी लोककथांत गद्याचें आदिम स्वरूप दिश्टी पडटा. मानव हृदयाचे विकार सुमधुर ताळार मारचो मृदुल आवाज ह्या साहित्य स्वरूपांतल्यान आयकुंक पडटा.

सोळाव्या शेंकड्याचे उत्तरार्द्धान्त गोंयचो सारस्वत लोक साबार करन केरळांत येवन रावलो. तांत ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र जातीचे लोक आशिल्ले. हांचें मद्दें हांची मायभास कोंकणीच्यो म्हण्णीयांचो, लोकगीत आनी लोककथा हांचो खूब प्रचार आशिल्लो. पिळगेन पिळगीं चलून येवचें हें लोक साहित्य एकठावन ताचो एक संपूर्ण संग्रह तयार करचो प्रयत्न आतां मेंरेन मुख्य करन कांय जालो ना.

## केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां

हेंच ह्या निबंधाचो विषय. कोंकणी लोकांची वसती जंय जंय आसा थंय म्हांतार मनश्यांचे विशेष करन बायलांचे जिबेर लोकगीत घोळतात. ह्या गीतांतल्यान कोंकणी लोकांची दायज, चाल चलवण, तांचो इतिहास, तांचेर आयल्ले संकष्ट आनी तांणी अनभसिल्लें जीवन हांचे, सम्यक् दर्शन मेळटा.

केरळांतलीं लोकगीतां पासून चिन्तन करचे वेळार सर्व प्रथम लोकगीत सोभीत सुन्दर गोड्डे रामायणाचो उगडास येता. हें लोकगीत आदिकाव्य वाल्मीकी रामायणाक आधारून रचलां. हिन्दू लोकांचो देव विघ्नेश्वर हांची प्रार्थना सयत काव्य सुरू जाता.

'ओम् नमो गणपते पार्वती नन्दन गा,
दुसरें नमन करूं गुरूचे चरणींगा,

तिसरें नमन करूं तिनीय त्रिभुवनंगा,

......................................

......................................

......................................

......................................

तेरवें नमन करूं तेतीस कोटि देवांगा.'

उपरांत श्रावण पितृभक्तिचे विवरण सयत रामकथा प्रारंभ जाता.

'जा चन्दाची कावडी श्रवणाचे खान्दींगा,
काशि जात्रा करनु श्रवण हिण्डुक लागलोगा,
हिंडता, हिंडता घोर वनांतु पावलोगा,
त्या वेळां जा चन्दां दोगंय श्रावण बोलतींगा,
अरे पुता श्रावणा तान लागलीगा,
पाणी नातिल्लें प्राणु की पावलोगा.'

अशी काव्य मुखार चलता. आठ अध्यायांनी संपूर्ण रामकथा सोंपता. ओवी छन्दाचे नेमार वळींचे निर्माण जालां. वाद्यघोष समेत कोचींत आनी आसपासचे सारस्वत वाड्यांत शिग्मो आनी होळी उत्सव जातात. होळी उत्सवा वेळार कोचीचे वैश्य सारस्वत अमरावती नांवाचे तांचे वाड्यांत हें लोकगीत गायन करतात. ह्या काव्यांत स्त्रियांक संबोधन करन म्हणच्यो वळ्योय आसात.

आयकाय गे बायलान्दो रामु वनां गेलोगा.

अक्षरज्ञान नातिल्ले बायलां मद्दें रामकथेचो प्रचार हाडचे खातीर मुख्य करन हें लोकगीत रचलां, अशीय अनमानयेत. मराठी, संस्कृत आनी कोंकणी ह्या भासांत पारंगत कवी, प्रत्येक काव्य रसाचे गुणाक अनुसरून भासेचो प्रयोग करचाक दाष्टीक आशिल्लो म्हण काव्य स्पश्ट करता.

हें लोकगीत केन्ना, कोणे निर्माण केल्लें, हें सांगचे दृष्कर. हांत मलयाळी शब्द कांय नात. केरळांत आयल्ले कोंकणी मराठी भासेंत प्रवीण आशिल्ले.

पोर्तुगीज येवंचे फूडें गोंयची सरकारी भास मराठी आसुंक जाय. तीच साहित्याची भासय आसुंक जाय. केरळचें मलयाळम भासेचो प्रभाव कोंकणीचेर पडचे फूडें ह्या लोकगीताची रचना जाल्ली आसयेत. केरळचे कोंकणीचें लिखित स्वरूपाचो सर्वप्रथम नमूनो आमकां ह्या काव्यांत प्राप्त जाता. कोंकणी भास आनी साहित्य हाचे इतिहासाचेर अमुसन्धान करचे पंडितांक हें लोकगीत एक मोलादीक निधी आसा.

हाताचे ताळार गायन करचीं लोकगीतां फुगडां अथवा फुगडीं नांवान केरळचे कोंकणी लोकगीतांत प्रसिद्ध आसात. फू-गडी, फू-गडी म्हणत चेलियांनी अथवा चेर्डुवांनी बायलांनी आनन्दान नाचपाचो एक खेळ होळी आसा. हांत दोगं-दोगं अथवा अधीक, एकमेकाचे हात धरन गर् गर् फिरतात आनी तोण्डान फुगडी फू शब्द काडून ताळ धरन उडक्यो मारन नाचत्तात. हो खेळ होळी आघोषा वेळार सारस्वत कुटुम्बी लोकांचे स्त्रियां मद्दें चलता. शेतकार कुटुम्बी फुगडीं गावून आपणाले खोतांक आनन्द दितात आनी ताका लागून तांचे परिहास करतात. तशीं फुगडां गीतांत आनन्द आनी परिहास, दोनीय मेळन आसात. पळेयात :

'दुद्दी बाळे दुद्दी खोतान घराक हाळेल, चेलियेक, तिका नामू बुध्दी.'

कुटुम्बी लोक आनी तांचे खोत हांचे सामाजीक जीवनाचे कठिन टींका आनी परिहास करचीं हीं फुगडां कोंकणी भासेचीं अमूल्य रत्नां आसात. फुगडां गायन करत करत, नाचून खोताक आनी खोतणीक परिहास करची स्वतंत्रताय ह्या दास जनांक आशिल्ली म्हणुय दिसता. केवल खुशीन म्हणचीं फुगडांय आसात.

1) बायपेकारा योगा, फुल्लां परमळु घेगा.

2) वाटें नातिल्लें जेवंचें कशी, गिण्डी नातिल्लें आवंचें कशीं ?

केरळचे सारस्वत समाजांत प्रचारार आसचीं सुमार घटनाप्रधान लोकगीतां आसात. हांत 'वळार', 'गणपतीचो लाडू', 'कुष्णलीला', 'भेवाळी गाय' आदि लोकगीतां कांय घटनेचेर आधारून आसात.

एक सन्देश काव्याचीं सर्वय लक्षणां 'वळार' नांवांचे लोकगीतांत मेळन आसात. काव्याची नायिका रुकमिणी लग्न जावन आपणाले मांवांचे घराक आयली. तिका बापान अन्दण-विन्दण सर्वय दिल्लें, पुण ताक घाण्टचाक खवलो दिल्लो ना. मांवांले घरकारी गोपालक आशिल्ले. खवल्या खातीर केन्नाय तिच्यो नणन्दो जाओ सगटय तिका हिणसायतालीं. रुकमिणी ताचान व्हड दुख पावलीं. परन्तु बापालें घराक ही खबर सांगून धाडूक तिका कोणेय मेळ नै. एक दीस तिणे वाटेन वतल्या एक वळाराक देकलो. तिणे ताका म्हळें:

'वाटेन वतल्या, वाटेचे वळारा रुकमिणीं कुळारां बोलावीलां.'

परन्तु वळार तिजे घर-दार कांय नेण. तो जाप दिता.

'हांव नेण वाट, हांव नेण तीट, हांव नेण रुकमिणी मायीबाप.'

आतां रुकमिणी ताका सांगता.

'एक धारीं चंपा, एक धारीं आम्बा, तें घर रुकमिणी मायीबापा.'

अशी संवाद रीतीर ह्या लोकगीताची रचना आसा. उपरांत वळार रुकमिणीचे कुळारा वता. रुकमिणीचो संदेश तिचे माय-बापाक जाणयता. परन्तु घरकारी कोणेय तिचे संदेशाक लागून तिचे घराक वचाक तय्यार ना. आखिर रुकमिणीचो भाऊ व्यापारा थाकून घराक येताकूच भयणीचो संदेश आयकून तुरन्त भायर सरन तिचे घराक पावंता. दूरासून येवंचे भावाक भयण रुकमिणी स्वागत सत्कार करता.

दूरा जा थाकूनु बंधु जो देखीला,
पाटु जो सोडीला सुवर्णाचो,
एक हातीं तांबिया, एक हातीं पाटुवा,
पाय धुयता बन्धुवा रुकमिणी.

पाय धुंवचे वेळार भयणीचे दोळ्यांत दुखां आयलीं. हें पळवनु भाव तिका विचारता.

'आजी इतें जालें रुकमिणी भयणी ?'

त्या वेळार रुकमिणी भयण जाप दिता.

'अन्दण-विन्दण दिल्लें मूरे भावा,
खवल्या खातिरी मांयो हिणसिंतीं,
मांयो रे हिणसिंतीं नणन्दो जाओ दिंतीं.
शेजारघरच्यो बायलो व्हय व्हय म्हणतीं.

हें आयकचाक भावान तुरंत खंयंच शींक वैसोवन सुवर्णाचो खवलो आनी रुप्याची दोरी घडोवन दीवयली. रुकमिणी आतां आनन्द पावली. खवल्यान तिणे ताक घाण्टुक प्रारंभ केलें. गीत अशी समाप्त जाता.

'सुवर्णाचो खवलो रुप्याची दोरी,
ताक घाण्टिता गोरी रुकमिणी.
ताक चाळता ताक चाळता
खवल्या लागलो गूळे,
तांतु देकिला तिळो कुंकुमेचो.'

रुकमिणीचें माय-भ्राप, कोणेय तिची मागणी आयकचाक तय्यार जाले ना. परन्तु भावान तुरन्त येवन तिचे मागणी साध्य करून दिल्ली. तिचीं दुखां दूरा करून दिल्लीं. भाऊ आनी भयण हांचे मद्दें आसचो पवित्र आनी निर्मल स्नेह भावना संपन्न गीतकारान उत्कृष्ट नमूनचेर प्रकट केला. मात्र न्हय, आजीय अन्दणा खातीर आत्महत्या मेरेन करचें खब्रर प्रतिदिन आमी समाचार पत्राचेर विशेष करन सारस्वत ब्राह्मण समाजांत स्त्रीधन (dowry) सम्प्रदायाक परिहास करन, त्या खातिर आमचेगेल्यो चेलीयो लग्नाचे उपरान्त मावाले घराक भोगचे दुख आनी संकश्ट सून्दर, सरस आनी संवेदनशील रीतीर ह्या लोकगीतांत स्पश्ट केलां. हें कळंक आजीय धुवन-पुसून दूरा करचाक समाजाक जाले ना म्हळेलेंच गीतकार संकेत करता. इतर आधुनिक भारतीय भासांत सन्देश काव्याचें निर्माण जावंचे भो फूडेच कोंकणी भासेंत सन्देश काव्याचें बीं उबजलें, हें कोंकणी भासा प्रेम्यांक व्हड गौरवाची खबर.

## गणपतीचो लाडु

ह्या नांवांचे लोकगीत केरळाचे कोंकणी समाजांत चड प्रसिद्ध आसा. गोकुळांतली एक गोपी बालक कृष्णाचे दुर्गुण दूरा करचे खातीर माय यशोदेक सांगता.

'यशोदी सुन्दरि, कृष्णु वायटु भारी
करता गो मूरारी सांगता तुका.'

तिचे उपदेश प्रमाणी यशोदा माय चेरडाचे वायट गुण ना जावंचे खातीर गणपतिक तृप्त करचाक लाडू आनी मोदक नीवेद्य करता आनी ते हाडून पूजे वेळार गणपतिचे मुखार दवरता. हे देकचाक कृष्णु यशोदेक लाडु मागता. यशोदा पुताक सांगता :

'पूजा जावो पुता
दीन तुका लाडु हात भरनु'

अशी सांगून ती धूपदिपाक इंगाळो हाडचाक वता. त्या वेळाक कृष्णान लाडु आनी मोदक सर्वय खेल्ले. इंगाळो घेवन पावंचाक खंय लाडु मोदक कांय ना. कृष्णु तिका सांगता :

'भायर तूं गेली, हजार उंदीर,
आयले हांगा खोर, सत्य सत्य.
तान्तु येकु थोरु उन्दीरु आशील्लो, ताजे फाटीर बैसल्लो भयंकरु.
आंगाक सिन्दुरु लायला भयंकरु
पाशांकुश धारु कोण गा तो ?
गणपतिचो लाडु घेवनु गेल्ला चोरु
हांव गुणत्कारु जाल्लो देवा.'

बालकालीं उतरां आयकून यशोदा मांयक कोप आयलो. तिणे ताका तोण्ड आं करचाक सांगलें. आनी एक थापट मारलें. कृष्णान रोडुन तोण्ड आं

केल्लें. यशोदान बालक कृष्णाचे तोण्डांत पूराय ब्रह्माण्ड पळयलें. भूत, गणपति सर्वय खंय दिष्ट पडलां ते सर्वय तिका सांगतात दिसता कि कृष्णु विष्णु म्हण.

यशोदेक कृष्णाचेर आसचो पुत्र स्नेह, गोपीयांक कृष्णाचेर आसची भक्ति आनी श्रद्धा ह्या गीतांतल्यान प्रकट जाता.

**कृष्णलीला**

केरळांत प्रचारा आसचें एक सरळ कोंकणी लोकगीत. हें लोकगीत कृष्णाचे भुरगेपणाक आधारून रचला. यशोदा मांय गायक धार काडटा. कृष्णु दूद पिवंपाक आशेवन, खुशीन हासून यशोदा कडेन येता. तो यशोदेक चुंबन करता. यशोदा बालक कृष्णांक खोल्लो भरन दूद दिता.

उपरांत कृष्णु आंगणांतली रेंव खाता. यशोदा कोपान ताचे तोण्ड विसकळावन पळयता. तिका कृष्णाचे तोण्डांत चौदाय लोक दृष्टि पडटात, ती भियेता. हो बालकृष्णु त्रिलोकनाथ म्हण ती जाण जाता. हीच ह्या लोकगीताची कथावस्तु. हांत कृष्णाचे परब्रह्म स्वरूप दाकोवंचो प्रयत्न जाला.

**भोवाळी गाय**

केरळचे कोंकणी लोकगीतांतली आनी एक श्रेष्ठ रचना आसा. हे लोकगीत सत्यनिष आनी सत्य, धर्म हांचेर चड बळ दिता. मानव जीवनाचे तत्वज्ञान, दूसरे प्राण्या विशीं मोग आनी त्याग करपाची तयारी ह्या गीतांतल्यान प्रकट केल्या. जल्मान जानवर जाल्यारीय सत्य निषर आशिल्ली ताची उत्कण्ठा पळोवन दुष्ट हिंस्र जन्तु वाग एक गायक मुक्ति दिता. आनी त्या गायक आपणाली भयण आनी वासराक आपणालो भाचो अशी मानता. थोडे करन हीच ह्या लोकगीताचो कथावस्तु.

एक घटी मुटी गायक देकून एक वाग तिका खावंचाक तय्यार काडटा. गाय ताका सांगता :

'आगा आगा वागा, माजो तानी आसा दुबो एकु पानो दिवनु ताका भूख राखावे.'

वाग तिका दुबयाक पानो दिवन येवंचाक अनुमति दित्ता. गोंयांत पावन गाय दुबयाक सांगता :

'सुरसुरी पी रे पूता, दुद्दाचे घोण्ट, फायचे दिवस पुत्रा, भोगुचे कष्ट.'

भासे प्रमाणी गाय वागा कडे वसपाक तय्यार जाता. दुबो तिका सोडना. दोगांय मेळन वागा कडेन वतात.

'भोवाळी चमकता मुखारि,
दुबो चमकता मागलान
येता येता म्हण वागु वाट राखता.'

जीव जन्तु जाल्यारिय भोवाळेची सत्यनिष्ठा कसली पळयात! हें आयकपाक दुबो सांगता :

'आगा आगा वागा तू दुबयाक खागा,
राख माजे भोवाळेक सोडुनु दीगा.'

हें अजाप दृश्य देकचाक, हिंस्त्र जन्तु वागाचे मन मोंणी भाशेन काडून आयलें. ताका भगवान बुद्धाची भूतदया समजली. ताजे मन परतलें.

ताणे म्हळें :

'भोवाळी माजी भयणि म्होणु
दुबो माजो भाचो,
तुमी दोगंय राज कर्याय वनां मजारी.'

एक हिंस्त्र जनावरांत लेगीत त्याग, दया, आनी मोग हे गुण उरतात. पुण ईश्वरागेली श्रष्ठसृष्टि मनीस हें विसरता म्हण हें गीत आमकां उगडास करयता.

आतां हांगा मनशचे सभावगुण वाडौवन हाडचे खातीर सहायक घटनाप्रधान लोकगीतां पासून चर्चा केल्या. आनी लग्नावेळार म्हणचीं केरळांतलीं

एक दोन कोंकणी गीतां पळोवया. हीं लोकगीतां शोभाने आनी गोवूळ नांवार प्रसिद्ध आसात.

व्हारडिके मांटवांत लग्नाचे आखीर व्हर उबारप म्हळेलें मंगल कार्य जाले उपरांत एक सुमंगली व्हरता-व्हकलेक दीवे दाकोवन मंगलाचरण करता. त्या समयार मांटवां उपस्थित शुभमंगलीयो गीत आलापतात. हें गीत 'शोभाने' नांवार प्रसिद्ध आसात. व्हरता-व्हकलेक सर्व मंगळय देवा लागीं मागची-मागणीचे विचार ह्या गीतांत आसात. ह्या गीतांत चड करून अवतार पुरूषांचे गुण गायतात आनी नवदंपतिक मंगळ मागतात :

'गोवाळेले दूद लोणी चोरलेल्याक
गोपस्त्रियांचे मद्दें नांचु केल्लेल्याक
कदंबा शाखावयर चडुनु बैसल्याक
गोपस्त्रियांचे मुकार मुरळी वाजिल्याक
वाजप सयत आर्ति दाकयाय, शोभाने.'

व्हरेत-व्हकलेलें घर भरणिके समयार म्हणचे गोवूळ नांवांचे गीत आसा. व्हरताची भयण व्हरतान गृह प्रवेश करचे वेळार दार आडायता आनी भाचे धुवेक तिचे पुताक लग्न करून दितां म्हण प्रतिज्ञा करून दारार सून दूरा सरता हेंच ह्या गीताचो विषय.

'व्हराण वचून लग्न जावंक
घर भरणिके समयारि भयणिन
धरलें कवड सांगतां आयक.'

ती भावाक सांगता, भाऊ तिका उत्तर दिता. भयण कवड सोडता. व्हरतालो गृह प्रवेश जाता.

भाऊ आनी भयण हांचे मद्दें जा संबंद आनी स्नेह आसा तो फुडेय तांचे संतानां वाटेन अस्तित्वांत आसचे होच ह्या गीताचो उद्देश्य दिसता. भारतांत सत्याग्रह अथवा घेराव नांवान कार्य सुरू करचे फुडेच कोंकणी समाजांत ही रीत चालू आशिल्ली म्हण ह्या गीतां सून स्पष्ट जाता.

ह्या लोकगीतां शिवाय कोंकणींत ल्हान भुरग्यांखातीर रचल्ली अनेक लोकगीतां आसात. भुरग्यांक पाळ्यांत दवरून तांत न्हीद येवपाक जूं काडून म्हणचीं गीतां भो अपरूप. चड करून मराठी आनी कन्नड भासांत रचल्लीं पाळणेगीतां प्रयोग करतात. ह्या शिवाय राम भक्त त्यागराजान रचल्ले पाळणे-गीताचेय प्रयोग करतात. ते गीत अशी सुरू जाता.

'राम जो जो रामा
आनन्दा घन जो जो रामा.'

अवतार पुरूष श्री रामाची स्तुती करून आखीर भक्त त्यागराज अशी गायता :

'राम जो जो रामा
आनन्दा जो जो भक्त समाजा.'

मराठी भाशेन रचल्ले एक पाळणेगीताचो केरळांतले कोंकणी समाजांत खूब प्रचार आसा. गीताचो प्रारंभ अशी :

'बाळा जो जो रे
कुलभुषणी, दशरथ नन्दन,
निद्रा करि बाळा.'

कन्नड भासेचे एक पाळणे गीताचो प्रारंभ अशी :

'जो जो देवकी देवीय कन्दा
जो जो गोवर्धनधारी मुकुन्दा
जो जो मुनिजन हृदयानंदा
जो जो कृष्णा बालमुकुन्दा...जो जो'

कोंकणींत रचल्ले पाळणेगीत आज मेरेन सोदून केवल एक प्राप्त जाला. ते श्री रामाचे भुरगेपणाचेर आधारून आसा :

'जो जो रामा
दशरथाचे पुत्रा...        (जो)
रामा दवर्ल्लो पाळ्यान्तु,

कौसल्या दवरता हातान्तु,
सन्तोषु पांवता मनान्तु... (जो)
पाळ्यां दवरलो रामाक,
जूं काडताय पाळ्याक
फोव दिताय चेरडुवांक... (जो)'

ह्या शिवाय भुरग्य़ांक खुश करचे खातीर गायन करचीं गीतां आसात. गीतांचे एक दोन नमूने सकल दिल्यात :

1. धल पुता धल
धलतां धलतां भागलो,
केकीं खावंक लागलो,
केकीं जालीं गोड, पुतान खेलीं देड
आके दिल्लो कुट्‌को
कोणा फाटीर डुमको?
आके फाटीर डुमको.

2. आपो नन्दो थापो नन्दो
तुपान्तुल्यो रोंटयो खायाय
ओ नन्दो तो नन्दो खान्द्यार्यो
गज बज मल्लिके मल्लिके
पीट वाटून कालोव्या कालोव्या
पिटां पळ्ळो बरोड्डु बरोड्डु,
म्हान्ताराय्ये करोड्डु करोड्डु
म्हन्तार गेल्ली रानां रानां
पुतु जालो काना काना

आयज कोंकणस्थ जनं गोंया भायर केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या वाठारांत पातळून आसा. विंगड विंगड वाठाराचे कोंकणी समाजांत

लोकगीत प्रचारार आसात. पुण ही बहुमुल्य संपत्ति एकांय करन सांबाळून दवरपाचो प्रयत्न इतः पर्यंत जालो ना. हां, एक वाठारांत चड उणे यत्न जाल्यात व्हय. आनी आजय चालू आसात. परन्तु अशी करचान काम पुरा जायना. हें समग्र धन सुंदर रूपान राखून दवरची पद्धति घालूंक जाय. एक एक वाठारांतलीं लोकगीतां एकठावन लोकगीत संग्रह उजवाडावंक जाय. अशी केल्यार एक एक वाठारांतलीं लोकगीतां आमचे मुखार येतलीं. त्या उपरांत एक एक वाठारांतले लोकगीतांचो अभ्यास करून समस्त कोंकणी साहित्याचो लोकगीत संग्रह तयार करूक जाय. अशी केल्ले मात्रान कोंकणी साहित्याचो आनी संस्कृतायेचो एक मोलादीक विभागाचो विकास जावन आमचे आमकां दायजाचे महत्व कळतलें.

- आर.के. राव

# मांडावळ



## भक्ति गीतां



## बालवाडी गीतां (Nursery Songs)

## खेळा गीतां (Kindergarten Songs)



## पाळणे गीतां (Lullabies)

# 1. वळार

रुकमीणी : वाटेन वतल्या, वाटेचे वळारा,
रुकमीणी कुळारां बोलावीलां

वळार : हांव नेण वाट, हांव नेण तींट,
हांव नेण रुकमीणी मायी-बाप *

रुकमीणी : एक धारीं आंवा एक धारीं चम्पा,
तें घर रुकमीणी मायी-बापा.

(वळार रुकमीणीचे कुळाराक पावंता. थंय तिजे बापसूक सांगता)
हांतुण मांच्यार पळ्ळेल्या रुकमीणीचे बापसू,
रुकमीणी धूवेन बोलां सांगलां.

बापा : खांडि भरी हाडीन, कुंभेरी मोडीन,
त्यावेळि त्या रुकमीणी धूवे बोलावीन.

वळार : खाटल मंचयार बैसल्ले, रुकमीणीचे आवसू,
रुकमीणी धूवेन, बोलां सांगलां.

आवसु : खांडि भरी हाडीन, कुंभेरी मोडीन,
त्यावेळि ते रुकमीणी धूवे बोलावीन.

वळार : गुलबावल्यानि खेळतल्ले, रुकमीणीचे भयणी,
रुकमीणी आकान बोलां सांगलां.

भयणि : गुलबावल्यां हाडन्ती, खेळ जो खोळन्ती,
त्यावेळ त्या रुकमीणि भयणी बोलावन्तीं.

वळार : भाणसीर पाटो करतल्ले, रुकमीणीचे भावजे,
रुकमीणी नणन्देन, बोलां सांगलां.

भावज : एकि मडकी चडयन, एकि मडकी देवयन,
त्यावळि त्या रुकमीणी नणन्देक बोलावीन.

---

* कुलगोत्र

वळार : आंगडबिंगड वतल्या, रुकमीणीचे भावा,
रुकमीणी भयणीन बोलां सांगलां.

भाऊ : हाड्यारे गंगाळं, न्हाणियां भराय पाणी,
आपण वतां घरीं रुकमीणी.

(दूर सून येवंचे भावाक रुकमीणीन पळयलो)

दूरां जा थाकून बंधु जो देखीला,
पाटु जो सोडीला सुवर्णाचो.
एक हातीं तांबिया, एक हातीं पाटवा,
पाय धुयता बंधुवां रुकमीणी.
पाय धुयतां पाय धुयतां, दोळ्यां आयलीं दुखां,
(दोळ्याचीं दुखां देकून)

भाऊ : आज इतें जालें रुकमीणी भयणी ?

रुकमीणी : अंदण विन्दण, दिल्लें मू रे भावा,
खवल्या खातीर मांयो हिणकिन्ती.
मांयो रे हिणकिन्ती, नणन्दो शब्दुदिन्तीं,*
सेजार घरच्यो बायलो, व्हय, व्हय म्हणन्तीं.
(अयकतच भावान थंयच सोनाराक बुलावून
बैसयलो आनी सुवर्णाचो खवलो घडयविलो.)
गावां गावंचे शेंी, देरला मुखार पेटी,
सुवर्णाचो खवलो घडवन्तीं.
सुवर्णाचो खवलो, रुपयाची दोरी,
ताक घाण्टिता गोरी रुकमीणी.
ताक चाळतां ताक चाळतां,
खवल्या लागलो गूळो
तांतु देखिला तीळो कुंकुमेचो.

---

* संबन्दिन्तीं, जापोदिन्तीं

## 2. गणपतीचो लाडू

यशोदी सुन्दरी, कृष्णु वायटु * भारी
करता गो मू रारी सांगता तुका.
अश्शी म्होणु गोपी सांगता येशोदेक,
व्रत करि येक बुद्धि चांगी.

दित्ता गणपति, संकष्टांक गति,
व्रत करि अति भक्ति भावान.
वायट ते गुण वत्तल्ले ते जाण,
करि तूं पूजन गणेशाचें.

आयकूनि येशोदि गेल्ली ती भितर,
सांगुक लागली, भक्तिभावान्.
तिगेले चेरडाक, बुद्धि, विनायक,
चांगि दी, मोदक दीन तुका.

आयकूनि वचन हासता श्रीकृष्णु,
करनु निश्चयान, लूटि काहीं.
अश्शी म्होणु गेलो संन्तोषु तिका जालो,
गणपतिचो केलो उत्सवूचि.

धन्य धन्य म्होणु, करनु उपवासु,
पूजिता विघ्नेशु येशोदम्बा.

---

* लूटि

शर्कराचो लाडू वीस आनी एकु,
केले ते मोदक निवेद्याक.

दवरले ते हाणु, निमगिता श्रीकृष्णु,
माका दिश्शी भरनु केदाणा लाडू.
येशोदी सांगता ताका, पूजा जावो पुत्ता,
दीन तुक्का लाडु हातु भरनु.

अश्शी म्होणु येशोदी, भायर ती गेली,
इंगाळो हाडूक, धूप दीपाक.
लाडवाचे लागी कृष्णु तो बैसलो,
ताणे खेलो लाडू सर्वय घेवनु.

मोदोकु तो गिळ्ळो घासाक एक पळ्ळो,
त्या वेळा येशोदी पावली थांगा.
निवेद्याचो लाडू नांय कांय थंय,
कृष्णु सांगता, आवसू, मिज्जे, आयक.

"भायर तूं गेली, हजार उंदीर,
आयले हांगा थोर, सत्य सत्य.
तान्तु एकु थोरू विन्दुरू आशिल्लो,
ताजे फाटीर बैसल्लो भयंकरु.

आंगाक सिन्दुरू लायला भयंकरु.
पाशांकुश धरू, कोण गे तो.

हस्तीची सोंडाळ, करता वयरि खाल,
मारलिगे किंचाटी भीवनु हांवें.

भीवनु ताळो सुकलो, तानेक दीगे माका,
धरनु हाडीन ताका, लाडू चोरल्याक.
गणपतिचो लाडू घेवनु गेला चोरु,
हांव गुणात्कारू जालो देवा."

आयकूनी वचन, येशोदी कोपान,
सांगता 'जनार्दनु, तूंचि चोरु.'
यशोदि सांगता ताका 'दाकयिरे तोण्ड',
मारलें थापट यशोदेन.

कृष्णु सांगता तिका, 'मारुनाका माका,
तोण्ड हांव तुका दाखयीन.'
अश्शी म्होणु कृष्णु दाकयता तें तोण्ड,
पळयलें ब्रह्माण्ड यशोदेन.

भूत गणपति आसाय सर्वय तान्तु,
तिका ते सांगतायी कृष्णु विष्णु.
घेवुनि अवतारु करतल्लो भूभारु *
रमा रमण धीरु पूजि ताका.

---

* काडतल्लो भू भारु

## 3. कृष्णलीला

चोयाय यशोदि गायक धार काडता,
खोल्लो घेवन एकु तें चेरडूं रडता,
दुद मागून पिवंचाक आशा काडता,
यशोदी गालाक उम्मो दिता.

धार काळेलें दूद यशोदि दिता,
तेवंय पीवनु चेरडूं दुसरीय रडता,
दूद मेळचे वेळार हासून चोयता,
हासचें तें तोण्ड चोयल्यार चंद दिसता.

पायांक गागर वाळे पायंजोळं आसा,
कुरटाक भांगराचे एलस आसा,
हाताक वज्राबळीं कंकणं आसाय,
केसां बान्दून मोरा पाक आसा.

हे एक चेरडान रेवं खेली,
आम्मान बान्दून मारुक बड्डि काडली,
तोण्ड विस्कळावन बावगून चोयली,
चोवदय लोक देकून भीति पावली.

वानाचे गाड्याक बान्दून घालो
गाडो घेवन कृष्णु गरगडेवन पळ्ळो
रुकां थाकून दोगं पुरुष आयले
तांकां कृष्णान सदा मोक्षु दिलो.

आयकाय चेरडूं हें कोण म्हणु,
त्रिलोक नाथु तो बालकृष्णु,
अवतारां आयला तो महाविष्णु,
कर्याय नमन ताजें मन दीवनु

## 4. भोवाळी गाय *

करामती नगरिये, भीमक राया घरीं,
ताथेंचा घरीं येकी भोवाळी गाय.
सुवर्णाचीं सिंगा भोवाळेक, रुपयाचीं गातां,
चरता, चरता, भोवाळेन देखलो येकु वागु.

पंचमुष्टी वागान किंचाट घेतलिगा.

भोवाळी : आगा आगा वागा माजो थानी आसा दबो,
येकु पानो दीवनु ताका भूख राखावें.

वागु : तण पालो खातल्या गोरवा, इतली इत्या बुद्धी
नाडून वच्चो काण्यो गोरवा, उल्लोवुं नाका.

एकी भास दिवनल्ली भोवाळेन तिन्नीय त्रिभुवनाची
दुसरी भास दिवनल्ली भोवाळेन चन्द्र सूर्याची,
तीसरी भास दिवनल्ली भोवाळेन घरचे दुबियाची,
तिनीय भासो दिवनु भोवाळी चल्लूक लागली.

हांबेतां हाबेतां भोवाळी चलीन्हल्ली घरां
चलता चलता धरणी धर्ले पांय गे भोली
बोंसांव भरले दोळे, वाट विसरल्ली
गोऱ्यांत पावन तिणे हांबेंव घातल्ली.

---

* भोली गाय

सुरसुरी पीरे पुत्रा दुदाचे घोट.
फायचे दिवस पुत्रा भोगूचे कश्ट.

आले पाले डोंगऱ्यरि तण पाल्ले खा रे,
वाटे उदाक पीवनु पुत्रा घरांसि यो रे,
भोवाळी चमकता मुकारि,
दुबो चमकता मागलान,
येता येता म्होणु वागु वाट राखता.

भोवाळी : आगा आगा वागा तूं भोवाळेक खागा,
राख माजे दुबयाक, भासेक येवन्ती.

दुब्बो : आगा आगा वागा तूं दुबायाक खा गा,
राख माजे भोवाळेक सोडूनु दी गा.

वागु : भोवाळी माजी भयणि,
म्होणु दुबो माजो भाचो
तुमी दोगंय राज्य कराय वना मजारी.

# 5. शोभाने

श्री लक्ष्मी बामणाक बालमुकुन्दाक
जलां भित्तरि मत्स्य रूप घेतल्याक
प्रवला खातीरी कूर्मु जावनु व्यापिल्याक
नील वर्ण श्री कृष्ण रुकमीणींक
बाल करनु आर्ती दाकयाय...शोभाने (1)

जोडि जोडि तोण्डाचे नाक जालेल्याक
जोडि रूप घेवनु भक्तां राखील्याक
जोडि रूप घेवनु भूमिरि आयिल्याक
जोडिरी बैसूनु श्री कृष्ण रुकमीणीक
कुंकुम लावनु आर्ती दाकयाय...शोभाने (2)

चेरडु प्रायेरि भूमी दान मागिल्याक
दीव नु जातरी व्हड रूप घेतल्याक
भीति नातिल्लें मनां मानु राखिल्याक
मानु राख श्री कृष्ण रुकमीणीक
फुलां माळनु आरती दाकयाय...शोभाने (3)

दशरथ रायागेरी जल्मू घेतल्याक
वीस हातांचे दैत्या नाशु केलेल्याक
नाशु केलेले कंसा सासु सोळेल्याक
मेघवर्ण श्री कृष्ण रुकमीणीक
घटि करनु आरती दाकयाय...शोभाने (4)

श्री पुरी शय्यां व्रत पाडू केलेल्याक
केत्विल्ले घोड्यार बैसुनु फेंच मारलेल्याक
आपयले घडियेर येवंचे कृष्ण रुकमीणीक
आपण इपण मूर्ति श्री वीर वेंकटाक
तुपां बुडोवनु आरती दाकयाय... शोभाने (5)

गोवाळेलें दूद लोणी चोरलेल्याक
गोपस्त्रियांचे मद्दें नांचु केलेल्याक
कदंबा शाखोपरी सरनु (चणु) बैसल्याक
गोपस्त्रियांचे मुखार मुरळी वाजिल्याक
वाजप सयत आरती दाकयाय...शोभाने (6)

पांचय पाण्डवांक रक्षण केलेल्याक
पांचाली द्रौपतीचो मानु राखिल्याक
पांच वरसांचे ध्रुवा पदवी दिल्लेल्याक
पांचजन्य शंखु चक्र आशिल्याक
पांच वातीनी आरती दाकयाय... शोभाने (7)

वज्रा खांभ्यान्तु थाकून प्रत्यक्ष जालेल्याक
दैत्य हिरण्याचो नाशु केलेल्याक
भक्त प्रह्लादाक रक्षण केलेल्याक
श्री वरलक्ष्मी नरसिंह मूर्तिक
भारी संतोषान आरती दाकयाय...शोभाने (8)

आकाशा वयरि थाकून उड्डि घेतल्याक
आकाश राया धूवेक व्हारडीक केलेल्याक
शेषाचला वयरि वासु केलेल्याक
हातु सोणात्तिले श्री वीर वेंकटाक
प्रल करनु आरती दाकयाय...शोभाने (9)

अखिलांड कोटि ब्रह्माण्ड नायकाक
कोटि सूर्य प्रकाश आशिल्याक
सर्वय भक्त जनां रक्षण केलेल्याक
कीर्ति पाविल्या श्री वीर वेंकटाक
वाजप सयत आरती दाकयाय...शोभाने (10)

मोहाचे कारणान बुद्धु जालेल्याक
कल्कीरूप घेवनु दुष्टां मारलेल्याक
धर्म समस्तय परिपालन केलेल्याक
कीर्ति पाविल्या श्रीनिवास मूर्तिक
शिंगार करनु आरती दाकयाय...शोभाने (11)

# 6. गोवूळ

## I

परम भू मण्डळ पुर मद्दें गौड सारस्वत ब्राह्मणांतु,
जनन जालें परत्या संसार सुखान्तु,
खेळुका म्हणु परगोत्रा चेली घेता तूं,
हाडतरि तान्तु,
निरत सुख सन्तोषु पावंचाक,
सरसमान गृहस्थ धुवेगेरि,
व्हराण वचुनु लग्न जावनु,
घर भरणिके समयारि भयणिन,
धरले कवड, सांगतां आयक. (1)

भयणि : वेदमूर्ति आनी साधु सर्वांक घेवनु,
सीधा तूं वता भितरी,
वचाक सोण्णा, वादु करतां हांव तुजेरि,
त्या खातीर तूंवंय खेदु पावनाका मिजेरि,
सर्वान्तु भारी आदरारि चलका म्हणु
हेदुनातिल्लें वचाक तुका बागिलारि हांव राफ्रलीं.
इत्या म्होणु सांगतरि दया करि मिजेरि,
हे दयावन्ता सांग सन्ता. (2)

भाऊ : उत्तम भयणि तुका इत्तें जावुंका म्होणु
सत्य तूं सांग माका,
मिजेरि भारी अत्यन्त प्रीति तुका,

सफ्रारु वेळु इत्या तूं करता, आका,
माथ्या भांगार मुकुट केतक,
सूतार गान्तिल्ले फूल गोण्डे
उत्तम मोगाळ समेत हांव,
दिनां म्हळेलें खरें उत्तर, सत्य समझूनु,
सोडी कवड, सांगतां आयक. (3)

वेंडि, खुण्टी, किरा कुण्डळ,
मुगुडी कानां भागरा मतीं,
मोरा कळसु होवय हाडतां,
अतिकटु पुतळां सोरू, तावजळें घेतां,
मंगळ सूत्र सोराची बांधि करयतां,
काय ओटु हाडतां सोरु, भांगरा चौको गळबाजु,
भारि चौकुळ कडक कंकण चुडामणि करोवन दीन,
सोडी कवड, सांगतां आयक. (4)

भयणि : सगट भांगार आम्मान दिलें माका,
दी म्हणु सांगलें वे तुका,
भांगाराची शुद्धि काणु उलयता ना वे ?
तूंवे सांगचें मानु राखूनु चलका म्हणु,
सान उतर मागलें तुजे लागी,
दितां ना जाल्यार दिना म्हळ्यारी
धरलें कवड सांगतां आयक. (5)

आणा तूं सर्वदा भणाचो नागू मिजो,
पुण्यान दिल्लो तूंवे,
भांगराची शुद्धि काणु उलयता ना वे ?
तूंवे सांगचें, हें वे, मानु राखून चलका म्हणु
सान उत्तर मागतां तुजे लागी
सोडीन कवड, सांगतां आयक. (6)

इतें गे होनीये तूं माथें बावगोवन बैसल्या,
आतां इतें सांगतां तें सांगचें
तुजेर जालेल पुत्रीक तूं दिता वे ?
दितां म्हणता गे आंता सोडतां हें कवड
तुगेलें उतर सत्य मानून, हांव
धरलेलें कवड सोडतां, आयक. (7)

# 7. गोवूळ

## II

नन्दगोकुलवासु, देवाले पुताक, भीष्मरायासे धूवेक,
मुरतु करनु केली व्हड व्हारडीक,
आदरु केलो महागणपतीक,
नार्लु दवरनु, देवकायरें उडदा मूर्तु,
लग्न, कन्यादान देड्डो, चवतन्दत जावनु येतना,
घर भरौणी जात समयारि,
राबली बागलारी व्हरता भयणि........शोभाने (1)

भाऊ : भयणी, तूं बागलारी राबाली इत्या खातिर
सांग तूं व्होगी माका,
सांगना जाल्यार भारी अबरगति येता,
राविले जनांक सगटांक नींद येता
समय चुकता; घर भरौणि व्होगी करनु
व्हकलेक नांव आपोवनु, फोवा चोळके सगटां वांटुनु
तोण्ड गोड करया बैसुनु,
उटा, बागलावेरि चांगपणारि.......शोभाने (2)

भयणि : अण्णा, मिगेले मनां दिसलें गोत्तु नावे तुका,
सांगचा गेल्यार लज्जा जाता माका,
व्होनिये मनां कोपु साबारु जाता,
उलयलें आयकता, तिगेले मनां कोपु नातिल्लें,
माका एक उत्तर सांगल्यारि,
आतां हांव बागिल सोणु रावतां, म्होणु
सांगचे उत्तर, सत्य सांगुनु सोडीन कवड.....शोभाने (3)

बगिलारी राबल्यां भारी भाग्य भोगचाक,
भास घेवनु सोयरीक करचाक,
नेक मार्गाची बुध्दि शिकोवंचाक,
वृध्दि जावंका,
एक आम्मा पोटां थाकुनु आयलीं आमी भाऊ भयणि,
आनी जावंका वेयुं वेणी,
म्हळ्या खातिरि राबल्यां बागिलारी;
मुकुन्दमुरारि, दयाकरी.......शोभाने (4)

भावज : भावान भयणीन उलयतना, माका काय उलोवंचे लागना,
नणंद भावजेक घटपण येता, हांव कोपना.
तुमगेली दोगांलीय खुशी केल्यार चिंतना,
भारी खुशालि, आमी येतना,
फकने बागिलारि राम्नली,
तुका हांव सांगूनु आतां,
भायर बागिलारि करयतां,
म्नागिलार राम्नल्ले हे सुभद्रे,........शोभाने (5)

भाऊ : आदो हे सायबिणी, धाकुले भयणि,
तूं दाक्षिण्य नातिल्ली, तुका नानातरार भाग्य भोगून रावचाकं,
तुगेले सेवक, दस्य, जोरा, गाय्यो सर्वय
लेक नातिल्ले दुद्दाचि म्हश्यो,
खांडे, कार आयधुवां मक बर.
बाजार नातिल्लें केदनाय रावचाक,
सर्वय सगटय दितां, सोडि कवड.........शोभाने (6)

भयणि : आण्णाले बण्णाले नगांचे आशेन,
बागलारि रावल्यां, न्हय;
निमगिल्ले उतराक जवाब सांगल्ली,
उतरां कानांत भरलेलीं,
हांवें सांगचें, आमगेली सोयरिक मुकारी,
दुखनातिल्लें राम्राचे खातिरि,
मिगेले मनांतुलें हावें सांगचें.......शोभाने (7)

**अपूर्ण**

## 8. नणमन्दे नणमन्दे

**नणमन्दे नणमन्दे करट्यान्तु चुन्नो**
माय्यों मेल्लेनायं म्हणु रडतायि सुन्नो.

नणमन्दे नणमन्दे वासिवलो कीरु,
बायलेन सिकयलो बामुणु वीरु,

नणमन्दे नणमन्दे वासिवेली फागिली,
बामणान मारलो म्हणु कापडान्तु हागिली.

नणमन्दे नणमन्दे बोग्यारि बोगो,
उदकाचे निबान बांयकडे योगो.

नणमन्दे नणमन्दे केळीचे कापा,
उदाक नातिल्लें बयलांचे पापा.

## 9. गोश्रीपुराधीश श्री वेंकटपतिची प्रतिष्ठा

श्री वेंकटपतिचीं चरणीं वन्दुनि,
गातोमी तवयाची गाथा,
त्याची लीला अघनाशिनी,
भक्तिन तीवय आयकुनि.

नारदादि मुनि सर्वय मेळुनि,
लीलागावुनि, नृत्तन,
तृप्तिन हो नित्याची मनि,
ऐसे वेंकटपतिची करनी,
गावुनि थकला सहस्त्रफणी. (1)

ब्रह्माण्डाचो नायकु तो हरि,
शंखु चक्रधारि, लक्ष्मी हृदयधरि,
भक्तांचा तो कैवारी,
हो तो पूर्वीं गिरीवरी. (2)

विजयनगरिचा राजा नरहरि,
नित्यगिरीवरीं, दर्शनकरीं,
प्रसन्न जासा त्यासि हरि. (3)

सोडुनि तो दिरि, अघसंहारी,
वासुकरी विद्यानगरीं,
बहु आनंदुनि आलय निर्मुनि,
सिंहासन हरि पूजूनि,
प्रसन्न जाला भूपमनीं,
मग, भूपहि देला हरिसदनीं. (4)

तत् बंदूनी कुकर्म करुनि,
कलह मांण्डुनि वैरि मिळवुनि,
पेटवीला नगरीं अग्नि,
अर्चक सपनीं हरिने सांगुनि,
प्रतिमा टकली कूपवनीं. (5)

कुंभकोण विजयेन्द्र यतीनि,
पाहिलि प्रतिमा ती स्वप्नीं,
चिन्ता जाली त्यांची मनीं,
उदयीं आला कालफणी. (6)

फणिला पाहुनि स्वप्न चिन्तुनि,
हरिला स्मरुनी त्या मागोनि,
यतिहि गेला घोरवनीं
पाहुनि विहरि उतरुनि मूर्ति,
घेवुनि आले निजसदनी. (7)

अति भक्तिन पूजिलि मूर्ति,
प्रसन्न जाली यतिवर ती,
पसरिली यतिची बहुकीर्ति,
सहज मिळाली संपत्ति. (8)

फिरत फिरत ते बहुकालानी,
मूर्ति सीं घेवुनि नगरीं,
गोश्री आले पूज्य यति,
रम्यालय वेंकटपति ठेवुनि,
अर्चनकरिती क्षेत्रपति. (9)

निवेद्यार्चन ब्राह्मण भोजन,
नृत्तन गायन करुनि जं,

तन मन त्या हरि अर्पण,
निशि दिन करितो हरि भजन. (11)
सुप्रसन्न मन बुद्ध महाजन,
निळवुनि यतीन बहुधन घेवुनि,
प्रतिमा मांगली म्हाळपैन,
फिरवुनि जनमन मूर्ति घेवुनि,
गेले यति तेथून. (12)
जनमनहारी गिरिजाधारी,
अघसंहारी कंसारी,
मारगीं यतिला भयंकरी,
फिरविली त्याची नाव घरीं. (13)
कोटिलिंगपुरि केली सवारी,
प्रश्न विचारी, निसिंहारी,
फिरवुनि आले गोश्री पुरीं
सिरभर कनका द्रव्य घेवुनि,
देदिल्ली यतीन जनां हरि. (14)
बहुजन मिळवुनि द्रव्य खर्चुनि,
कृष्ण शिवालय बान्धोनि,
ताम्र मारिलें त्यावरींनि
रूप्या लाविले सिंहासनीं. (15)
त्यावरि भक्त्या म्हाळपैन,
वेंकटपतिला प्रतिष्ठा करुनि,
तोषविले ते बहुजनमन,
ब्राह्मण भोजन बहुदानान,
उत्सवु जाला नंदान. (15)

इति ही वेंकटपतिचीं कथनी,
विप्रमुखान आयकूनि,
तनमन घेवुनि सद्सदन,
निर्मिलें हें वसुदेवान,
बुद्धिहीन त्या वसुदेवाला
आयुर्धन सन्तान देवुनि
तृप्ति करावे श्री हरिन. (16)

## 10. इन्द्रधनुष

आकाशांतलीं रंगं सांगया
इन्द्रधनुष्याचीं, मुलगा, आकाशान्तलीं रंग सांगया.
मुख्य मिश्रते मिळुनि आसाति,
सातरंग साचे, मुलगा, ........ आकाशांतलीं. (1)

जांम्रुळ, निळास्मानि, हिरवा,
पिवळा, नारंगी, लाला
आकाशा महें अनुत्रमाणे
रंग सात गे पाह्ला, मुलगा, .......... आकाशांतलीं. (2)

सात रंग हे मिळुनि पाण्डरा,
होत असेरे चन्द लोपता
याचा होता काळ रंग त्याला मान
सूर्यप्रकाशा मदें सात हे रंग, मुलगा,.........आकाशांतलीं. (3)

सर्वदि सति फ्रिलोर हातीं,
घेवुनि बाळ अनुभव घेतिचीं
जगदीशाची अगटित करनी काय तुला
सांगू तिसमजाया हात जोडुनि बुध्दिन भा मागूं
मुलगा,.........आकाशांतलीं.

## 11

### कोंकणीचे ब्राह्मणा तोपी साजना

एक सेर कुंकुम ताका तीळ्या पावना,
एक सेर काजनल ताका दोळ्या पावना,
एक खोदनो तेल ताका माथ्या पावना,
कोंकणाचे ब्राह्मणा तोपी साजना......... (1)

एक अडक फडचान ताका दाडिये पावना,
एक कोल्लें फफळ ताका खावुं पावना,
एक मडकी सीत ताका बरी पावना,
कोंकणीचे ब्राह्मणा तोपी साजना. (2)

## 12

### हांव भारी वायटु खंय सायबा

माका फोडूं म्हणतलो कीडे पणु मरतलो,
बोड कुसल सूण्यावरी हाड नीट रावतलो.

# भक्ति गीतां

## 1. दशावतार

वेदोद्धर वर मीन शरीरा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (1)
धरणीधर जय कूर्मशरीरा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (2)
भूमि विदारण सूकर रूपा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (3)
दैत्य हिराण्यक नरहरि रूपा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (4)
बलिप्रबन्धन जन वासम रूपा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (5)
क्षत्रिय कुलान्तक भार्गव रामा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (6)
रावण मर्दन दशरथ रामा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (7)
कंसुकलान्तक नन्द कुमारा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (8)
भावदुरान्तक प्रौद्ध शरीरा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (9)
दृष्ट कुलान्तक कल्कि शरीरा,
मामव गोविन्दा जय जय मामव गोविन्दा (10)

## 2. वायुदेवाची स्तुति

श्री वायुदेवा, करि कामाचो सेवा
रामाची सेवा करि, सीतेची सुधी धरि,
आनन्द मुद्रिकावेरी, श्री वायुदेवा......... (1)

मुद्रिका बहुलक्ष, रामनाम उच्चारण
घाले लंकेरि उडन, श्री वायुदवो....... (2)

लंके धुंडाळु करि अशोके वनांमज्जारि
देकिल्ली सीता सुन्दरी, श्री वायुदवो....... (3)

सीते चरणी लागला, आगवन्तु सांगविला
चूडामणी घेतल्ला, श्री वायुदवो....... (4)

ब्रह्मपासां पडला, रामनाम पासु सोडिला
बालाचेर अग्नि लाविला, श्री वायुदवो....... (5)

लंका लासू लागल्या, क्षीरसागरां गेला
अग्नि थंडाळु केला, श्री वायुदवो....... (6)

भागा परतुनी आला,रामनाम चकणी लागला
चूडामणी दीदल्ला, श्री वायुदवो....... (7)

नेणारें हें बालक, खेळता तिन्नीय लोक
विश्वस्वरूप एक, श्री वायुदवो....... (8)

सन्यासी ब्रह्मचारी माते उद्धारु करि
वेंकटरमणा उपकारी, श्री वायुदवो....... (9)

# 3. सीता कल्याण

आयक रे तूं पुत्रा सांगतां तुका कथा,
सर्वय लोकां व्यथा दूर करची. (1)

सूर्यवेश रायु जाला दशरथु
अज रायालो वंशु पूतु ऐश्वर्यवन्तु. (2)

ताका तेगयं बायलो, कौसल्या, कैकेयि आनी सुमित्रा
भारी रूपलावन्तीं. (3)

तेगयं बायलांक जालीनात बालकं,
अशिम्हणु रायाक जाली व्हड चिन्ता. (4)

चिन्तेन रायान पुरोहितां आपयले
तांचे लागी निमगिलें करका कितें. (5)

पुरोहितांनि सांगलें यज्ञु एक करका
दिता नारायणु तुका पुत्रु. (6)

तशी यज्ञु केलो देवु प्रत्यक्ष जालो
आनी राया दिलो आयदन भरन पायसु. (7)

रायान तो पायसु तेगयं बायलां दिल्लो
तांकां गर्भु धरलो णव मास. (8)

कौसल्ये गर्भांत जाला नारायणु
सर्वय गुण पूर्ण रामचन्द्रु. (9)

कैकेये गर्भान्तु जाला भरतु
रामालो भक्तिरथु गुणवन्तु. (10)

सुमित्रे गर्भांतु जाला लक्षिमोणु
आनी शत्रुघनु जवळान्तु. (11)

चौगयं बालकांक विद्या बुध्दि भरली
रायान तांकां केली चौल मूंजी. (12)

कौशिक मुनिन राम लक्षिमणांक
यज्ञ रक्षणांक अशीं म्हणु. (13)

आपोवन व्हरन ताटके मारोवनु
केलो यज्ञ पूर्णु श्री रामान. (14)

तशी मुकार सरनु वतना वाटेरी,
पाय गेले शिलेरी श्री रामाचे. (15)

अहल्या ती देवी शिलेसून उटायली
शापमुक्त जाली आयक बाळा. (16)

जनक म्हणु रायु तागेली धूव सीता
करका तिजो चिन्ता लक्ष्मी देवीन. (17)

तिजे विवाहाक चापासून केलें अर्पण,
कोण करता खण्डना धनुष्याचें. (18)

ताका दिता पुत्री करका तिजी मित्री
हें उत्तर करतीं अशी म्हणु. (19)

त्या वेळार सभेर राम लक्षिमणांक
घेवुनु आयलो तांकां तो कौशीकु. (20)

त्या वेळार सभेरी रायाचे मुकारी
रामान केले कुटके धनुष्याचे. (21)

क्षणाचे भितरी अर्पण प्रमाणी
रामा गळ्या सीतेन घाली माळा मगर्यांची. (22)

रामाले भावांक सीताले भयण्यांक
दीवनु जाली व्हारडीक चौगांकय. (23)

अशल्ली ही कथा आयकिल्ले मात्रान
दिवो तुंका कल्याण रामचन्द्रु. (24)

पूर्ण केली कथा सीते कल्याणाची
सर्वय लोकां व्यथा दूर करची. (25)

# 4. सीता सुधी

हनुमन्तु गेल्लो सीते सुधी
रामाचन्द्रा दिल्ली मद्दि
समुद्र उल्लंघन कोरनु
हनुमन्तु पावलो लंकेरि. (1)

घेता सिते सुधी
देकिली मण्डोदरी
पावा अशोकवृक्षारि
बेसूनु चोयता चारि दिकारि. (2)

रामालो दूतु बेयसला रुक्कारि
यो सामकी माजे मुखारि
पांय पोणु राबला मुखारि
स्तुति करता भक्तीरि. (3)

सिता उलयता दूता लागि
दिरबांकुरा मूळा मुखारि
तोडोवु इतें व्होरका धारारि
मुद्रिका दवरली सीते हातारि. (4)

रामान इतें सांगलें तुल्यागि
चूडामणि दवरली हातारि
तोडोव नातिल्लें वचून धारारि
विवर सांगूं रामा लागि. (5)

लागली आवसु भूक माका
भूमिरि पळ्ळेलें फळ खावुमक
मर्कट स्वभावु काडूं नाका
आयल्लो विवरु कोळोवुनाका. (6)

वनांतु बळयलो दूताक
न्राशु हाळ्ळो वनांक
रावणान बळयलें सैन्याक
जोरनु हाड्याय वानराक. (7)

बाल्लान केल्यां सिंहासन
बयसल्ला रावणाचे समान
सीते हाळ्ळेले तुगेलें जयपण
रामा पासून तुका मरण. (8)

नाशु हाड्याय वानराक
ना सम्मत विभीषणांक
न्यायु ना वानरा मारुक
उनत्व हाड्याय बालाक. (9)

उजो लायलो बालाक
नाशु हाळ्ळो कंकेक
रक्षण केल्ले विभीषणांक
रामचन्द्रालें भक्ताक. (10)

समुद्रान्त बुडयल्लें बाल
समुद्रांतु राबिलें पाळ
हनुमन्तान वाडवयलें बाल. (11)

जात्रा सांगूनु भायर सरलो
समुद्रु उल्लंघन केल्लो
दिकली स्वामी सीता मायेक
तोडोवु नातिल्लें वचून हाड्याय. (12)

वानर समेत घाला सेतु
रामान केला रावणा वधु
सीते केला रावणा वधु
सीते हाव्ळोलो संतोषु
रामा केल्ला पट्टाभिषेकु. (13)

आमगेलीं कायरीं दुर्लभान
हनुमन्तान केल्लीं श्रध्देन
वानराचेर आसिल्ले भक्तीन
रामान दिल्लें फांति भाजन. (14)

राम राम राम सीता
राम राम राम हरे
राम राम राम सीता
राम राम राम हरे. (15)

# बालवाडी गीतां (Nursery Songs)

## 1

दोनदोन दोनदोन चिरापुट्टुळां, चिरापुट्टुळां,
कोणाल मांच्यार, गडगडावंचीं, गडगडावंचीं,
मामल मांचयार गडगडावंचीं, गडगडावंचीं,
मामु गेलो सान्ते, सान्ते,
सान्ते आम्बो पिकलो, पिकलो.
घालि मामा पेशी पेशी,
मामान बाळी म्हशी, म्हशी,
तें म्हशीचें दूद दूद,
तें दूद मामा दिलें, मामा दिलें.
मामान आमकां दुड्डु दिलो, दुड्डु दिलो ,
तो दड्डु बांयन्तु घालो, बांयन्तु घालें
बांयन आमकां उदक दिलें दिलें,
तें उदाक केसम्ब्याक घालें, केसम्ब्याक घालें.
केसम्ब्यान आमकां दण्डारो दिलो, दण्डारो दिलो,
तो दण्डारो गायक घालो, गायक घालो,
गायन आमकां दूद दिलें, दूद दिलें
तें दूद देवा दिले देवा दिलें.
देवान आमकां प्रसाद दिलो, प्रसाद दिलो.
तो प्रसाद माथ्थार माळ्ळो, माथ्थार माळ्ळो
माथ्थार आमकां उवो दिल्यो, उवो दिल्यो
त्यो उवो पाक्यार उडयल्यो, पाक्यार उडयल्यो

पाक्यान आमकां कोलु, दिलो कोलु दिलो
तो कोलु माडियेक घालो माडियेक घालो
माडियेक आमकां फफळं दिलीं, फफळं दिलीं
तीं फफळं राया दिलीं, राया दिलीं
रायान आमकां धोलु दिलो
तो धोलु चिंचे मान्दिलो, चिंचे मान्दिलो
चिंचेन आमकां चींच दिली, चींच दिली
चिंचय खायाय, बोटय खायाय,
शेणय मामाली गाय कुंटत कुंटत वचो.

2

गागा पुता, गागा,
बापा येतलो गागा,
केकीं हाडतलो गागा,
पुता काडतलो गागा,
केकीं दितलो गागा,
गागा पुता गागा.

3

फरंग्यालें बावलें
तें हांगा कशी पावलें ?
तें घालू मागता चोळी,
न्हेसू मागता वस्त्र,
खावूं मागता पोळी,
पोळियेरी तूप,
त्या फरंग्यालें रूप,
रूप रे तें रूप.

## 4

**काको मेण्डो काळो काक्याक एकु दोळो**
आमगेले धुवे निडळार आसा काळे सिन्दू तीळो.
काको मेण्डो चोरू चोरू, काक्याक मारलो मारू,
मारू काळो व्हीरु, व्हीरू जालो थोरू,
काक्या मारलो पाकार, काको धावलो पाक्यार,
धावनु धावनु धावनु गो धूवे, बैसलो तो रूकार.

## 5

**आका माका ताक नाका,**
[1]केळ्या फडीन वाडि माका,
आका गेली ताकाक.
सूण्यान धरलो नांकाक,
सोडि मिजे नांक
[2]धरि तुझें ताक.

## 6

**हालत जा रे पुता, धलत जा रे,**
हालुनु धलुनु पूतु मामणी थंय वचरे.
मामान दिलें तुका पाट्याचें साल रे,
पाट्याचें साल न्हेसून देवळान्तु वचरे.

## 7

**पाव नन्दन पाव नन्दन पाव नांचुया**
खेळू गेलेल बालकाक घरा आपोव्या.

---

1. तळ्ळेल
2. दीन तुका ताक

# खेळा गीतां (Kindergarten Songs)

1

**धल पुता धल, धल,**
धलतां धलतां बावगलो, बावगलो
केकीं जालीं गोडं गोडं
पुता दिलीं देडं देडं
आके दिल्लो कुटको, कुटुको
कोणा फाटीर डुमको ?

2

**आपोनंदो, थापोनंदो**
तुपांतुली रोंटी खायाय,
ओ नंदो थो नंदो खांद्यार्यो
गजमज मालिका, मालिका,
पीट वाटून कालोव्या, कालोव्या
पीटां पळो बरोडू बरोडु
म्हान्ताराये करडूं करडूं
म्हांतारी गेली रानां, रानां
पूतु गेलो कानां कानां
म्हांताराये खाडा उजो लागलो, लागलो,
आमकां वचून वाड्वोव्या, वाड्वोव्या.

3

**आटिके मिटिके नम नम काळिंगा,**
भासकर माजरा, शिवण्याचे काला,
माद्दाळाचें माद्दाळें कोणा फाटीर डुमको?

4

**आको लिको, साली पिको, चिंचाम्हणा दीकदिको,**
आजी म्हणी, फायी म्हणी, दाव्या दोळ्याक मीट,
उजव्या दोळ्याक रचंदन सोद्दून काळ्यार दाकौन दितां.

# पाळणे गीतां (Lullabies)

## 1. राम जो जो जो रामा

(राग : आनन्द भैरवि)

राम जो जो जो रामा
आनन्दा घन जो जो जो रामा राम....
राम जो जो रविकुल तिलका
राम जो जो कुटिलक अलका. राम...
राम जो जो दशरथ बाला
राम जो जो दशमुख काला. राम...
राम जो जो रवि शशि नयना
राम जो जो फणिवर शयना. राम...
राम जो जो मानुष वेषा
राम जो जो मंजुळ भूषा. राम...
राम जो जो पंकज नेत्रा
राम जो जो शंकर मित्रा. राम...
राम जो जो निर्गुण चित्रा
राम जो जो सद्गुण पात्रा. राम...
राम जो जो त्यागराजा
राम जो जो भक्त समाजा. राम...

## 2. बाळा जो जो रे
(राग : आनन्द भैरवि)

बाळा जो जो रे,
कुल भूषण, दशरथ नन्दन,
निद्रा करि बाळा,मन मोहन,
रामु लक्षिमण. बाळा...

पालोणें लांबविलें, अयोध्येशीं,
दशरथाचें वंशी, पुत्रु जन्मला,
ऋषिकेशीं,
कौशल्येचें कुशी. बाळा...

रत्न जडीत, बालक,
झळतें आमलीक
वरतीं पेटल्लें कुलदीपक
त्रिभुवन नायक. बाळा...

येवूनी कौसल्या सुन्दरी
धरूनी ज्ञान उदरीं
पुष्प वरसंती सुरवरीं
गरजती जयजयकारीं. बाळा...

विश्व व्यापक रघुराय
निद्राकरि बा सखाया
तुजेवरि करवटीं
धरणीया सांडत अपुले काया. बाळा...

येवुनी वसिष्ठ
        सत्वर सांगता
जल्मान्तर रामु परब्रह्म
        संसार सातवें अवतार.        बाळा...

यागु राखुनियां
        अवतार मारिले निशाचर
जातीं सीतेचा स्वयंवर
        उद्धरीं गौतम दारा.        बाळा...

परणीला जानकी सुरूप
        भंगुनीया शिवचाप
रावणु लज्जित महाकोप
        नाम फणलें चोप.        बाळा...

सिन्धु जल राशीं
        नवलीला नावें तरतीं
शीला त्यावेरि उत्तरुनी
        दयाळा अतिशीं वानर मेळा.        बाळा...

समूल मर्दनिया
        रावण स्थापिले विभीषण
देवां सोडविले
        संपूर्ण आनन्दलें त्रिभुवन.        बाळा...

रामू बालक
        भूलोक भक्तांक अधीन
दास विळे आयकयला
        पासोणे गायन.        बाळा...

## 3. जो करीन बाळाक

(राग : आनन्दभैरवि)

जोकरीन बाळाक
        नीद आयली दोळ्यांक
जूं काडीन पाळण्याक
        गोरे बाळाच्या.        जो करीन...

गोरे बाळाच्या अळिये
        घर बान्दू माळिये
घराच्या सावळे
        पाळये बान्दू.        जो करीन...

पाळण्याचे वयरी
        बान्दिला शिंगारू
सुखी दोवन्दू
        निद्राकरी.        जो करीन...
जोय पुता जोय
        जोय करूँ तुका
पाळणें घासूं
        रुका चंदनाचें.        जो करीन...
चंदनाचें रुका
        सुवर्ण्याच्यो दोरीयो
जूं काडताय राणियो
        आमचे पुता मावुसीयो.   जो करीन...

शिरपुटाची न्हाणी
न्हणियां न्हाणोव्या
एक उत्तर जाणोव्या
आमगेल पूताले मावळ्याक.        जो करीन...

## 4. जो जो जो रामा
(राग : नीलांबरी)

जो जो जो रामा
दशरथाचे पुत्रा
जो जो जो रामा,
अवतारु घेतला अयोध्यांतु
मुख चोयलो गोड लावनु
रायु दिता दान धर्मु
मनांतु संतोषु पावनु
चेरडा काणु न्हाणोवन हाडका

धूपा परमळु घालका
नवरत्न सिंगारु करका.   ...जो जो जो रामा
पतिव्रता बायलो मुखारि सरनु
दवर्याय रामा पाळ्यां काणु
वसिष्ठ बायल मुखारि सरली
अनसूया येवनु पावली
रामा काळ्ळा हातांतु
स्तुति करता मनांतु

दशरथु धन्यवन्तु
        सफल जालो आमचो जल्मु.        ... जो जो जो रामा
सौभाग्य, दीर्घायुष्य
        जय जो तूं सर्वांतु

दवरतां तुका पाळ्यांतु
        रामा दबरलो पाळ्यांतु
कौसल्या दवरता हातांतु
        संतोषु पावंता मनांतु.        ...जो जो जो रामा

पाळ्यां दवरलो रामाक
        जूं काडताय पाळ्याक
फोवु दिताय चेरडुवांक        ...जो जो जो रामा

## 5. जो बाळा जो
### (राग : आनंदभैरवी)

जो बाळा जो
जो पढयंती माता
आली सांडुनि
निद्राकरि रघुनाथा. जो बाळा...
देवकी प्रसवित जाली
मध्याह्न रात्री
रोहीणि नक्षत्र
अष्टमी तिथी. जो बाळा...
प्रह्लादु स्वामी
कृष्णु आला परशंसंती. जो बाळा...
पाळणे घडवीलें
रत्न खचीत
गज पडंच पढयंतीं
ओपा पायादंती. जो बाळा...
वज्रांचो दोरीयो
खचीले इन्द्रनील
चन्द्र सूर्या दोगंय
सरसें आकं. जो बाळा...
पाळणे फ्रांदीलें
वसुदेवा थंयीं
पल्लण पडलेलें

श्री कृष्ण राया.        जो बाळा...
सखियो मेळनल्यो
वंशी उभे रावंती
आशिर्वचन बाळा
पाळण्यो वंती.      जो बाळा...
येय्यायवो नारीयो
मंगल गायंती
पोशे पोशे फोवाशे
हो बालकां देयंती.     जो बाळा...
उदवे आयकूनी
आयली पूतना
विकट रूपा
भरुनी स्तानानां.      जो बाळा...
तीं ताणीं शोशिल्लीं
सोडीरे बाळा
वरदान दीदल्लें
मधुसूदनान.      जो बाळा...
कंसाचे निर्वाशीं
अकाडे ओडंती
काकासुरु बकासुरु
चरणा लावंती.     जो बाळा...
तो खलु
शंखासुराले विजयान्तु
काळीय मर्दन केल्लें
विष यमुनान्तु.     जो बाळा ...

सात वर्षांचो बाळु
        उपनल्ला गोकुलांतु
पाय पदम
        कंठीं वज्राची माळा.    जो बाळा...
देवी देवकीचो बाळु
        उपनल्ला गेकुलान्तु
नांव गांचें स्वामी
        रुक्मिणी कान्तु.    जो बाळा...

## 6. जोय करीन बाळाक
(राग : आनन्दभैरवि)

जोय करीन बाळाक
        नींद आयली दोळ्यांक
जूं काडीन पाळण्याक
        गोरे बाळात्या.    जोय करीन...
गोरे बाळाच्या अळिये
        जर बान्दूं माळिये
घराचे सावळे
        पाळणे बांदूं.    जोय करीन...
पाळण्याचे वयरी
        बांदिला शिंगांरू
सुखी गोविंदू
        निद्राकरी.    जोय करीन...

## 7. जोय पुता जोय
(राग : आनन्दभैरवि)

जोय पुता, जोय
        जोय करूं तुका
पाळणे घालूं रुका
        चन्दनाचे.        जोय पुता...
चंदनाचे रुका
        सुवर्णाच्यो दोरीयो
जूं काडताय राणीयो
        आमचे पुता मावसीयो.        जोय पुता...
शिरपुटाची न्हाणी
        न्हाणियां न्हाणोव्या
एक उत्तर जाणोव्या
        आमगेल पुताले मावळ्याक.        जोय पुता...

## 8. जो जो देवकी देवीय कंदा
(राग : पुन्नगवराळी)

जो जो देवकी देवीय कंदा
        जो जो गोवर्धन धारी मुकुन्दा
जो जो मुनिजन हृदयानंदा
        जो जो कृष्ण बालमुकुंदा, जो जो.
विचित्र वीराश्रीय खंबव जोडी

हृदयादिन्तिल दिव्य तोट्टिलं तूकी
श्रृतमाला भक्तिय नेमन माडी
पद्मनाभ दिव्य नामवुं पाडी, जो जो.
केशव नारायण चक्रधारी
माधव गोविन्द विष्णु मुरारी
मदन जनक मधुसूदन शौरी
अदीति विक्रम दनुजसंहारी, जो जो.
चतुर वामन श्रीधर ऋषीकेशा
पद्मनाभ दामोदर लक्ष्मीवासा
उदधि शयन, संकर्षण भवनाशा
सुगुण श्री वासुदेव सर्वेशा, जो जो.
अच्युत जनार्दन विश्व पुरुषा
मत्स्य अवतारी उपेंद्र मोहना
सच्चिदानन्दा श्री हरि सुप्रसन्ना
अच्युत श्रीकृष्ण पक्षी वाहना, जो जो.
जगदादी वन्द्य प्रद्युम्न अनिरुद्धा
निगम वन्दित पुरुषोत्तम सद्या
नगधर अधोक्षज शकटे निवासा
सगुण श्री नरसिंह हिरण्या नागेशा, जो जो.
कविराज वरदा कारुण्य संपन्ना
हरि सर्वोत्तमा निन्दुति लाविल्या
हरणे संपन्न स्याळी वेगन्ना
परमात्मा श्रीकृष्णा जगत्व मोहना, जो जो.

# केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां

**- जयंती नायक**

वाडट्या शारीकरणाच्या आनी इलेक्ट्रॉनीक प्रसार माध्यामांच्या प्रभावाक लागून समाजांतलो लोकवेद दिशीं दिशीं ना जायत आसा. देखून जाता तितले बेगीन ताच्या शेणटल्या आंगांचे संकलन करून मुखावेले पिळगेखातीर ताची जतनाय करून दवरपाची आज गरज उप्रासल्या. भारतांतल्या हेर वारांनी हें काम आज मोठ्या पांवड्यार चल्लां. गोंय तशेंच केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या वारांत आशिल्ल्या कोंकणी लोकवेदाचें संकलन करून तो पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडपाच्या वावराकय आतां सुरवात जाल्या. 1922 वर्सा मो. सेबास्तियांव रुदोल्फ दालगाद हांणी 'Florilegio dos Proverbios Concanis Konknni' हो कोंकणी ओपारिंचो झेलो उजवाडाक हाडन ह्या कामाची घुडी रोमली.

गोंय मुक्ती उपरांत गोंयांतल्या कोंकणी लोकवेदाच्या वावराक बरोच वेग येवन जायतीं पुस्तकां आतांमेरेन उजवाडाक आयल्यांत. श्रीमती कमलादेवी राव देशपांडे हांचीं 'बाल्यो काणयो', 'गिजबिजलें', 'गोंयकारांले पडवेर', हीं तीन पुस्तकां, श्रीमती जयंती नायक हांचीं 'धालो' आनी 'गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार' हीं दोन पुस्तकां, श्रीमती जयंती नायक हांचीं 'रथा तुज्यो घुडयो', 'कणेर खुंटी नारी', 'तळय उखल्ली खेळ्यांनी', 'मानांली गीता', 'आमोणे-एक लोकजीण' हीं पांच पुस्तकां, हीं तांतली कांय कोंकणीतल्यान उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां. श्री. विनायक खेडेकार हांचीं 'गोमंतकीय लोककला', 'लोकसरिता' हीं दोन पुस्तकां, श्री पांडुरंग फळदेसाय हांचीं 'काणी काणी कोतवा', आनी 'गोमंतकीय लोकवाद्ये' हीं दोन पुस्तकां मराठी निवेदनांतल्यान उजवाडा आयल्यांत. कोंकणी लोकवेदाचेर इंग्लीशींतल्यान

'Of Soil and Soul of Goa and Konkani Folktales' हें प्रॉ. लुसिऔ रुद्रिगीश हांचें, 'Tales and Tellers of Goa' हें वि. स. सुखठणकार हांचें, 'A Sheaf of Dekhnnis' प्रॉ. मिकायल मार्तिश आनी प्रॉ. जुझे पेरेर हांणी संपादीत केल्लें पुस्तक, तशेंच प्रॉ. जुझे पेरर हांचें 'Songs of Goa' हें पुस्तक आनी 'Manddo and its Performance' हें श्री. सी. जी. एम्. आगापितो द मिरांडा हांणी संपादीत केल्लें पुस्तक उजवाडाक आयलां. 'कोंकणी ओपारींचें भांडार' हें फा. आंतोनियु पेरैरा हांचें एकाच वांगडा कोंकणी आनी इंग्लीश निवेदन आशिल्लें पुस्तक उजवाडाक आयलां. कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकवेदाचेर 'ता ता तिंगण' हें श्री. संतोषकुमार गुल्वाडि हांणी संपादीत केल्लें लोकगितांचें पुस्तक तशेंच श्री. एस्. एस्. ताल्मकी हांणी संपादीत केल्लें 'Konkanni Proverbs and Idioms with Riddles, Lullabies and Nursery Songs' हें पुस्तक उजवाडाक आयलां. तशेंच श्री. सी. सी. ए. पै हांचें 'Konkanni Riddles' हेंवूय पुस्तक आयलां. महाराष्ट्रांतल्या कोंकणी लोकगितांचें संकलन करून प्रॉ. श्री. नेरूरकर हांणी मराठी निवेदनांतल्यान 'कोंकणी लोकगीतें' हें पुस्तक उजवाडाक हाडलां.

केरळांतय ह्या वावराक बऱ्याच वर्सां फाटीं सुरवात जाल्या. आपलो धर्म आनी संस्कृतय राखपाच्या हावेसान गोंयासावन केरळांत थळांतर केल्ल्या कोंकणी समाजांत घोळणुकेंत आशिल्लो कोंकणी लोकवेद एकठावपाच्या वावराची घुडि ह्या समाजांतल्या सुपुतांनीच खांदार घेतल्या. 1976 वर्सा श्री. एन पुरुषोत्तम मल्ल्या हांणी लोकगीतांचें संकलन करून 'कोंकणी लोकगीत' नांवाचें पुस्तक उजवाडायलां. 1985 वर्सा 'गोड्डें रामायण' ही पुरातन लोककाव्य प्रकाराचीं दोन पुस्तकां देवनागरी लिप्येंतल्यान उजवाडाक हाडल्यांत. जाल्यार1993 वर्सा कोंकणी साहीत्य समाज, पेरुंपडन्ना, परूर हे संस्थेन लोककाव्य प्रकाराचें संकलन करून मल्याळम लिपयेंतल्यान 'श्रावोण' नांवाचें पुस्तक उजवाडायलां.

केरळांतल्या ह्या लोकवेदाच्या वावराची गवाय दिवपी आनीक एक पुस्तक हालींच उजवाडाक आयलां (1995). 'केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां' हें ह्या पुस्तकाचें नांव. प्रॉ. आर. के. राव हांणी ताच संकलन-संपादन केलां. कोंकणी लेंग्वेज इन्स्टिट्यूट, पालारिवट्टम, कोची, हे संस्थेन हें पुस्तक उजवाडायलां.

पुर्वापार साकून मौखीक परंपरेन चलत आयिल्ल्या कोंकणी लोकगीतांचें संकलन ह्या पुस्तकांत आसा. प्रॉ. रावांनी सान पिरायेचेर आपले आजयेल्या तोंडांतल्यान आयकल्लीं हीं गींता, अशें श्री. पी. जी. कामतमाम हांणी ह्या दोन भाशेंत बरयिल्ले प्रस्तावनेंत स्पश्ट केलां. श्री. राव माम कोंकणी मातेचे सेवेंत गुल्ल आशिल्ल्यान हें पुस्तक येवपाक कळाव जालो हेविशींय तांणी आपल्या बरोवपांत सांगलां.

प्रॉ. आर. के. राव हे केरळांतले कोंकणी चळवळींतले एक म्हालगडे, कोंकणी भाशेचे संवर्धक, केरळांतल्या कोंकणी लोकवेदाचे गाढ अभ्यासक. 'गोड्डें रामायण' आनी 'व्यंकटेश कल्याण' ह्या पुस्तकां उपरांत लोकवेदा वयलें हें तांचें तिसरें पुस्तक.

'केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां' ह्या पुस्तकाचें खाशेलेपण म्हळ्यार ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्लीं गीतां दुर्मीळ आसात आनी सादरीकरणाच्या स्वरूपांत तीं दिल्लीं आसात. कांय गीतां तर खंयच्या रागांत गायतात हिवूय म्हायती दिल्या. प्रॉ. रावांची ह्या पुस्तकाचे सुरवातेक जोडिल्ली प्रदीर्घ प्रस्तावना ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्ल्या सगळ्या गीत प्रकारांच्या मुळांचेर उजवाड घालता. ह्या संग्रहांत वट्ट 35 गीतां आसात, आनी तांचे भक्तीगीतां, बालवाडीगीतां, खेळगीतां, पाळणेगींता अशे वांटे केल्यात. पयल्या वांट्याक नांव ना. ह्या वांट्याच्या माथाळ्याचे इंग्लीश शब्दार्थ तशेंच सवकळ नाशिल्ल्या उतरांचे अर्थार्थ दिवन ह्यासंकलनाक शास्त्रीय वर्गीकरणाचें रूप जोडून दिलां. मात पयल्या भागाक नांव दिवंक नाशिल्ल्यान एक अपूर्णताय जाणवता.

पयल्या वांट्यातं आस्पाविल्लीं गींता सामाजिक तशींच पौराणिक विशयाचेर आसात. 'वळार' आनी 'भोवळी गाय' हीं सामाजिक विशयावेलीं गीतां. तीं गीतरूपी संवादांतल्यान दिल्यांत. हीं दोनय गीतां हे आदींय जायत्या जाणांनी उजवाडायल्यांत. पूण संवादात्मक रूपान प्रॉ. रावांनी तीं पयलेच फावटीं दिल्यांत. ताका लागून हीं दोनय गीतां फकत गावपाचींच न्हय तर सादरीकरणाचींय म्हणपाची माहिती मेळटा. गोंय, कर्नाटक ह्या वाठारांनीय मेळपी हीं गीतां केरळांतल्या संग्रहांत पळोवन कोंकणी समाजाच्या एकचाराचो दिश्टावो घडटा. 'गणपतीचो लाडू', 'कृष्णलीला', 'शोभाने' हे सारकी कृष्णस्तुतीपर गीतां, तशेंच वेंकटपतीचे भक्तिचेर गीत ह्या भागांत आसा. लग्नांत न्हवऱ्याचें दार भयणीन आडावपाचो आनी आपली धूव तुका सून करूक दितां अशें म्हाणटकच तें सोडपाची हे चालीचें जतन केलां. ह्या प्रसंगार गावपाची एक होंवी 'गोवूळ' ह्या नांवान ह्या संग्रहांत आस्पावल्या.

भावजेन आपल्याक दिल्ली उणाकपणाची वागणूक भावाक कथन करपीय एक गीत गोवूळ नांवान ह्या संग्रहांत आसा.

राम आनी कृष्ण हे कोंकणी समाजाचे आदर्श पुरूश जाल्यार सीता आनी द्रौपदी ह्यो आदर्श बायलो. कोंकणी समाजांतल्या दर दादल्या-बायलेन तांचे सारके जावंचें हो तांचो हावेस. भक्तीगीतां ह्या भागांत आस्पाविल्लीं चारांतलीं तीन गीतां राम-सीतेचेर आसात.

बालवाडी गीतां आनी खेळगीतां ह्या भागांतलीं गीतां आकारान ल्हान आनी आंकड्यानय थोडीं आसलीं तरी तांतल्यान भुरग्यांचें भावविश्व बारे तरेन दोळ्यां मुखार उबें रावता.

पाळणे गीतां ह्या भागांत आस्पाविल्लीं आठ गीतां हीं भुरग्याक पयले फावट पाळण्यांत घालपाच्या संस्कारा वेळार गावपाचीं गीतां. केरळांतल्यो खास करून सारस्वत समाजांतल्यो बायलो तीं गायतात. उंचेल्या वर्गाचे संस्कार घेवन जल्माक आयिल्ल्या ह्या गीतांनी पाळण्यांत घालतल्या भुरग्याक

अयोध्येंतल्या रामाची वा गोकुळांतल्या कृश्णाची उपमा दिल्ली दिसता. हीं गीतां गोंयच्याय उंचेल्यां समाजांत मेळटात. आनी पुस्तकांत तीं उजवाडाक आयिल्ल्यान अभ्यासकांक तांचो बरोच आदार जातलो.

आपले मूळ संस्कृतायेकडेन प्रामाणीक रावपाचो अट्टहास धरिल्लो आसलो तरी काळाच्या वेगांत नकळटना केरळांतल्या कोंकणी मनशाच्या जिविताचेर जाल्लो मलयाळम भाशेचो प्रभाव ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्ल्या गीतांतल्यान नदरेक येता. गोंयांत समान आशिल्लीं चडशीं गीतां ह्या पुस्तकांत आसलीं तरी बोलयेच्या बदलाक लागून तांचे भितर वेगळेंपण जाणवता. तशेंच ह्या संग्रहांत आस्पाविल्लीं खुबशीं गीतां हे आदीं उजवाडाक आयिल्ल्या एन्. पुरुषोत्तम मल्ल्या हांच्या 'कोंकणी लोकगीत' ह्या संग्रहांत मेळटात आसलीं तरी तांतूत मात्शें वेगळेपण आसा. ते भायर आतांमेरेन संग्रहीत जावंक नाशिल्लीं अशींय कांय गीतां तातूंत आसात. प्रॉ. राव हांणी तीं पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडून कोंकणी भास आनी संस्कृतायेच्या अभ्यासाक एक व्हड योगदान दिलां.

(1996 मे म्हयन्याच्या 'जाग' पत्रिकेंत छापून आयिल्लो साहित्य नियाळ)

# केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां

"गोंय, केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या राज्यानी कोंकणी खातीर बावुरपी संस्था आसात. ह्या संस्थानी फुडाकार घेवन लोकगीतां वा लोकसाहित्य पुंजावपाची इत्सा आशिल्या आनी त्या मळार वावर केल्ल्या लोकांक एकठांय हाडून लोकगीतां पुंजावप, तांचे विशया प्रमाणी वर्ग करप आनी तें छापून उजवाडा हाडप हो वावर वांटून दिवंचो, तांका ह्या संबंधान फावो तीं साधना म्हळ्यार त्या विषयावेलीं हेर भाशांतलीं पुस्तकां, टेप रेकार्डर, बी मेळोवन दिवंची आनी हो वावर जसो जसो फूडे वता तसो तसो तो खंडानी उजवाडा हाडचो....

अशे तरेन वेग वेगळ्या राज्यानी केल्लो वावर एकठांय करून, ताजो अभ्यास करून लोक साहित्याचें हें धन सांबाळपाचो आनी ताज्या संवर्धनांतल्यान कोंकणी भास आनी साहित्य हांचो उदरगति घडोवन हाढपाचो फुडलो वावर अखिल भारतीय कोंकणी परिशद वा कोंकणी अकादमी ह्या अदीक व्हड आवांठाच्या संस्थानी आंगार घेवचो पडतलो. अशे तरेचे हे कार्यावळींतल्यान कोंकणी संस्कृतायेच्या एका महत्वाच्या आंगटो विकास जावन आमकांच आमच्या दायजाच्या आंगाचो विकास जावन आमकांच आमच्या दायजाच्या नवो साक्षात्कार घडूक पावंतलो."

(कोंकणी लोकगीतांचे दायज - उदय भेंब्रे)

Souvenir- First AKKA & L Conference- '79 Kochi)



कोंकणी लेंग्वेज इन्स्टिटयूट, पालारिवट्टम, कोची - 682 025

₹ 75